जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४६ : आंक २ : सप्टेंबर, २०१९

✲ संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

✲ वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

✲ संपादपी :
आसावरी नायक

✲ पालवी संपादपी :
कृपाली नायक
एडना वाझ

✲ उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

✲ छापपी :
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

✲ वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७३०८७१११८/ ७४४७२६८७२०

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-

## मांडावळ...



भायले चित्र : भरत जगताप
भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप, विशाल रौली.




# आलितो : एक अंतर्मूख तिरसुवादी आमीग

नंदकुमार कामत

हेरांचो तो कोणूय लागूं. आलितो हो १९८७ सावन म्हज्या मित्रपरिवारांतलो आनीक मागीर वर्गभगिनी मिलन/सुमन खानोलकराचो जिणेंतलो सांगाती म्हणून हांवें पळयिल्लें एक सामकें नॉन - कन्फर्मिश्ट, मूर्तीभंजक, अंतर्मूख तिरसुवादी व्यक्तीमत्व. म्होंवाच्या पोळ्यार नेम धरून जुस्तच फातोर मारून मुसांक चाळोवन घालपी, हाका, ताका, हें कर, तें कर, हें विचार, ते विचार म्हणून धोंगसून इंस्टीगेट करपी मनीस. ताका शिक्षक म्हणून कोणेंच व्हड सिरीयसली घेवंक ना कित्याक हेरां भशेन ताका व्याख्यानां दिवपाक केन्ना जमलेंच ना. बैठक मारून, वाचप घरांत बसून नोट्स बी काडून, सोदनिबंध बी बरोवपाची ताका आवड नाशिल्ली म्हणून कांय फुटकळ लेख सोडले जाल्यार आलितो सिकैरीचें साहित्य म्हणून व्हडलेंशें कांय वाचूंक मेळना. पूण जें जें ताणें विद्यार्थी, सहकाऱ्यां बरोबर मेळून बरयलां ते उच्च दर्जाचें आसा हातूंत सगळे आयले. आलितोच्या तिरसुवादी व्यक्तीमत्वाची थोडीशी झलक ह्या लेखांत दितां.

### जागोर जागयलो

आलितो ही विद्वानांची एक धिगी. माड उंच वच्चो, आडवो पडचो न्हय म्हणून भेंडयेची धिगी लायतात. माडाक घटसाण येतना भेंडीय पालवता, फुलता फळटा आनी कांय वर्सां भितर दोन रूख दिसूंक लागना. धिगी मागीर धिगी उरना.

हायडेलबर्ग हें आठ शतमाना पोरणें जर्मन विद्यापीठ. एक दीस आलितो बरोबर एक विदेशी पळयलो. हो हेन, अलेक्झांडर हेन. आलितोन डॉ. अलेक्झांडर हेन आनीक ताची घरकान्न ग्राबीयला हांकां गोंयांत जी मजत केल्या ताचेर कितलेशेंच बरोवंक जाता. हेनाक गोंयांतल्या 'जागोर' लोकनाच प्रकाराचें आकर्शण आशिल्लें. आलितो आनीक लोकवेदांत भरपूर रूच घेवपी मिलनाक लागून हेनाक काक्रा, नावशें, पाळे, कुडका, शिवोली सगळ्याक क्षेत्रीय अभ्यास करपाक मेळ्ळो. तें करतना हेन हिंदू दैवतशास्त्रूय शिकलो. तो नांवाजतो मनीसवंश शास्त्रज्ञ-अँथ्रोपॉलॉजीस्ट. कांय म्हयने तो आलीतो - मिलना बरोबरूय रावलो, भोंवलो. कांय वर्सांनी ताचें गोंयच्या जागराचेर देखदिणें संशोधन प्रसिद्ध जालें. फाटल्यान सावली कशी आलीतो उबो. 'दी रे आपल्याक को-ऑथरशीप' म्हणून ताणें आगरो केलो ना. हालीं ही फॅशनूच आसा. कोणूच निस्वार्थी विचारान संशोधकांक मजत करूंक सोदना. आयज 'गोवाविद्यातज्ञ' (गोवालॉजीस्ट) म्हणून अलेक्झांडर हेनाक संवसार वळखता. पूण ताचे फाटलें आलितोचें योगदान? ते कितले लोक जाणात?

### चर्चीचो खांपो सल्लागार

आलितो दिसता तसो निधर्मी बी नासलो. हें एक मिथक. आपूण क्रिस्तांव हें तो अभिमानान सांगतालो. ताचें अंतिम संस्कारूय बी त्या धर्मा प्रमाण जाले. आपलीं मतां ताणें दुसऱ्यांचेर लादूंक नात पूण तेच बरोबर गोंयच्या इगर्जेचो आनी पोपसायबाचो गोंयांतलो एक खांपो 'सल्लागार' म्हणून बिस्माच्या भितरल्या वर्तुळांत ताका खूब मान आनी व्हड स्थान आशिल्लें. हें खबर आशिल्लें उजव्या विचारांचे कांय लोक म्हणटाले - आलितो इगर्जेचो स्पाय, गुप्तहेर, ताचे कडेन

सांबाळून उलयात. धर्मसभा म्हणल्यार 'सिनोद' बी जाता तेन्ना आलितोची खाशेली भुमिका आसताली. गोंयची इगर्ज आपल्या विश्वासांतल्या विचारवंतांक विचारले बगर कसलेय म्हत्वाचे निर्णय घेना. आलीतोक ख्रिस्ताचो संदेश मान्य आसलो. म्हणून हांवें जेन्ना मदर तेरेझाक गोंय विद्यापिठांत आपयली तेन्ना ताणें म्हाका ह्या कार्यावळी खातीर पुराय तेंको दिलो. ताका लागून विद्यापिठांत म्हाका इराज्म सिकैरीन सांगिल्ले प्रमाण विद्यार्थ्यां खातीर एक प्रस्नावळ सोडोवन घेवप शक्य जालें.

## आलितो आनी क्यू क्लब

१९८५ वर्सा पणजेच्या सुशीला इमारतींतल्यान साटली पोटली कवळून नवेच गोंय विद्यापीठ बांबोळेच्या गोंय वैजकी महाविद्यालयाच्या रिकाम्या संकुलांत पावलें. १९८६-८७ मजगतीं केन्ना तरी गुरुनंदन भट, शशिच हेगडे, विली डिसिल्वा, आलीतो सिकैर, पिटर रॉनी डिसौझा अशे व्याख्यातें गोंय विद्यापिठांत रुजू जाले. तांकां किर्ते तरी नवें करपाची खूब उमेद आशिल्ली. त्या वेळार कल्पना मुखार आयली - एक चर्चा मंडळ घडोवपाचें - 'क्यू क्लब'. दर सप्तकाक एका शिक्षकान जावं संशोधक विद्यार्थ्यान आपल्याक जाय त्या विशयाचेर उलोवपाचें आनीक मागीर सगळ्यांनी एकेक कप च्या कँटीनांत वचून वांगडा घेवपाची. वर्स-दोन वर्स ही जापसालदारकी आलीतोन आपल्या बोडार घेतली. ताणेंच आपोवन म्हाका चर्चेंत सहभागी करून घेतलो. तेन्नाच हांव गोंय विद्यापिठाच्या पदव्युत्तर विद्यार्थी मंडळाचो अध्यक्ष म्हणून बिनविरोध वेंचून आयिल्लों. हांवें आलितोक सांगलें - आमी कांय नवे उपक्रम करूंक सोदतात. तूं कांय सुचोवण्यो कर. आलितो म्हणूक लागलो, आमी 'इनसायड रिसर्च प्रोसेस' म्हणून दोन दिसांचें कार्यसत्र विद्यार्थ्यां खातीर करुंया. एक सत्र हांव घेतां. ताणें कांय नांवांय सुचयलीं.

## इनसायड रिसर्च प्रोसेस

आलितोच्या नेटार सगळ्या प्राध्यापकां कडेन वचून हांवें दोन दिसांची कृतीसत्राची कार्यावळ तयार केली. आलितोन सायक्लो स्टायल करून प्रशिक्षणार्थ्यांक वांटपाक कांय नोटसूय म्हजे कडेन दिले. आमी प्रत्येक विभागांत वचून विद्यार्थ्यांक कृतीसत्राक नोंदणी करपाक सांगलें. खूब जाणांनी येतां, येतां म्हणून नांवां दिली पूण निमणे कडेन पळयल्यार वर्गांत ३० विद्यार्थी आशिल्ले. आलितो म्हणूंक लागलो, खूब जाले, ३० जाल्यार ३०. आलितोन देखदिणें प्रास्तावीक करून कृतीसत्राचो दिश्ट लावपी आरंभ केलो. आयज तें हांवें रेकॉर्ड करूंक ना म्हणून उगडास काडून हांवच चुटपुटटां. तेन्ना तो जुवान आनीक बरोच 'फॉर्मांत' आशिल्लो. वाचनूय खूब करतालो. म्हाकाय सांगतालो - नंदू हें वाच, तें वाच. मागीर विश्राम गुप्ते तत्वगिन्यान विशयांत एम.ए. करपाक येतकीच तर विचारूं नाका इतली आमची चर्चा बऱ्या बऱ्या पुस्तकांचेर जाताली. आमच्या कृतीसत्राची सांगता खांपें विद्वान, कुलगुरू प्रा. शेख अलीन केली. गोंय विद्यापिठाच्या इतिहासांत विद्यार्थी संघटनेन, विद्यापिठा भायल्या कोणाकूच आपयनासतना आयोजीत केल्लें हें पयलें आनी निमणें संशोधन कार्यपद्दती वेलें कृतीसत्र. ताचो सगळो खर्च तेन्नाचे विद्यार्थी कल्याण अधिकारी डॉ. अरविंद पांडेयजीन केलो.

## आस्क हीम, क्वेश्चन हीम

म्हाका केन्ना केन्ना आलितोची तिडक येताली ती एका वेगळ्याच कारणाक लागून. विद्यापिठांत वेगळ्या वेगळ्या क्षेत्रांतले, विंगड विंगड विशयांचेर उलोवपी तरातरांचे लोक येताले. तांचीं भाशणां सगळ्यांक उकती आसतालीं. शिक्षक, शिक्षकेतर कर्मचारी, संशोधक विद्यार्थी, पदव्युत्तर विद्यार्थी, गोंयचे हेर प्रतिशठीत लोक सगळे आसताले. आलीतोन येवप. खंय तरी फाटल्यान बसप. आमी मुखार. भाशण सोंपले उपरांत प्रश्नोत्तराची कार्यावळ जाताली. तेन्ना आलीतोन फाटल्यान आड्डून फुडे बशिल्ल्या विद्यार्थ्यांक 'इंस्टीगेट' करप - 'आरे तूं ताका हें विचार, तें विचार.' एक दीस ताणें तशें प्रॉम्प्टींग करतकीच हांव तिडकलों. हांवें फाटल्यान पळोवन ताका म्हणलें, 'हो प्रस्न तूच कित्याक विचारना?' ताची ही खोड मागीर गेली काय किर्ते हाचो हांवें मागीर कांयच सोद घेवंक ना. तशेंच तो तशें कित्याक करतालो आनी चड करून नामनेचे आनी वादग्रस्त वक्ते जाव राजकारणी येतकीच कित्याक करतालो हाचे उत्तर ताणें केन्नाच म्हाका दिवंक ना. म्हाका अशें दिसता की दुसऱ्याक फुडें काड्डून तो जापो मागतालो. ताका खबर आशिल्लें की एका फाटल्यान एक प्रस्न तो विचारूंक शकना. कांय फावटी ताणें दुसऱ्याक प्रॉम्प्टींग करून विचारिल्ले प्रस्न कुचित्री आशिल्ले हेंवूय हांवें पळयलां. हें सगळें मरतकीच बरयतां म्हणून हांव आलीतोची माफी मागतां. खूबश्यो चळवळी, आंदोलनांय बी हाणेंच इंस्टीगेट करून चलयिल्लीं कांय किर्ते तें म्हाका खबर ना. पूण ती कापाजदाद ताचे कडेन आशिल्ली. गोंय विद्यापिठाक लजेक घालपी गुणवाढ प्रकरणांत तर ताणें सगळ्यांक घाम काडलो. हांगा तोच धाडसान मुखार सरिल्लो आनी आमी ताच्या फाटल्यान उबे राविल्ले. विद्यापिठांतल्या भ्रश्टाचाराक तो सामको विटिल्लो. अशीच उबगण येवन ताणे नोकरी सोडली जावंये.

## भाटकार कसो राव

आलितो खूब बऱ्या घराण्यांतलो. खावन, पिवन सुखी, भाट बेंस आशिल्ल्या फांकिवंत घराण्यांतलो. म्हाका लग्ना उपरांत तीन वर्सां मिरामार रावचें पडलें. विद्यापिठांत रावपाक घरूच नाशिल्लें. म्हजें नांव प्रतिक्षा यादींत आशिल्लें. तरूय आलितो -मिलनाक मेळपाक हांव मेलिंदाक घेवन वतालों. जेन्ना आलीतोक कळ्ळें की मिरामारच्या आमच्या घरांत रांदपाक गॅस सिलिंडर ना तेन्ना तो धांवत आयलो. 'जान्हवी गॅस सर्व्हीसचो' श्रीराम वळवयकार हो म्हजो, ताचो आनी पुराय खानोलकर कुटुंबाचो लागींचो इश्ट. श्रीराम आलीतोक घेवन आयलो आनीक एका दिसान आलितो कडेन आशिल्लें एक चडावत एलपीजी कनेक्शन ताणें मेलींदाच्या नांवार करून दिलें. आयज सुद्धा मेलींदा आलीतोचो उगडास काडटा तो ताच्या ह्या मदतीक लागून. आमकां ते वेळार गॅस मेळूंक नाशिल्लो जाल्यार खूब हाल जावपाचे. पूण कोणाचेय मदतीक फाटलें-फुडलें पळेयनासतना धांवन वचप, फाटीर मारून ताका धीर दिवप हो

आलीतोचो स्वभाव. हांव ताच्या शेजाराच एक दोनशें मिटर्सांचेर रावपाक आयलों हें ताका बरें दिसलें. आमकां बी-१२ हें घर मेळिल्लें. पूण तें गळटालें. आलितोन म्हाका सांगप - 'नंदू. हें विद्यापिठाचें घर. सामको भाटकार कसो राव.' म्हणजे कसो रावप तें मात ताणें सांगूंक ना. पूण मिलनान तव्यार चरचरीत ताजे रांपणीचे बांगडे तळव्याय तो वास आमगेर पावतालो. खूब लोक ताका मेळपाक येताले. नचिकेतस जातकीच आलीतो - मिलनाक खूब खोस जाली. मिलनाची आवय (काकी), बापूय, भयण-भावंडां तांगेर येतालीं तेन्ना खूब मेळप जातालें. बरें दिसतालें. आनी मिलन? सातवे यत्ते मेरेन म्हजे वांगडा शिकिल्लें. धाकटुलेंच सुमन वासुदेव खानोलकर?

### हांव आलितो कडेन लग्न जातलें

आलितोचो पयलो संवसार गोंयच्याच अंजली कडेन जालो. ताका गोंय विद्यापिठात आलितो वांगडा केन्ना तरी पळयल्ल्याचो उगडास जाता. कांय काळा उपरांत एक दीस हांवें मिलनाक कला अकादमींतले एके कार्यावळींत पळयलें. खूब खूब वर्सांनी तें दिशिल्लें. ते आलितो सिकैराच्या फाटल्यान फुडल्यान भोंवतालें. सहजीकच म्हाका कांयच कळूंक ना. मिलन खंय, आलितो खंय? म्हाका कसलीच पाठभूंय खबर नाशिल्ली. इतल्यांत आनीक कोणा कडेन तरी हांव उलयतना हांसत, मुरगुटत मिलन धांवत आयलें आनी एका दमात बी म्हणटा तशें उलोवन गेले. (आयजूय आमी मेळल्यार मराठींतूच उलयतात) 'मी आलितोशी लग्न करणार आहे' हांव आयकत रावलों. हाचे नंतर खूब वर्सा गेलीं. आलितो मिलनाचो संवसार न्हय जाल्यार एक अत्युच्च बौद्धीक, सर्जनशील, वैचारीक पातळे वेलें सोबीत सहजिवन आमीच न्हय. गोंय, देश - विदेशांतल्या हजारांनी लोकांनी पळयलें. कितेंय कडवटसाण पयलीं एक हिंदू चली एका क्रिस्तावां कडेन लग्न बी जाता म्हणून आशिल्ली जाल्यार आलितोनच ती पयस केली. ताणे मिलनाक कितली उर्जा, उर्बा दिली तें मिलन केन्ना तरी बरयतलेंच. आनीक जीव तोडून दीस रात आलितोक 'सोंसून', मिलनान ताका निमण्या स्वासा मेरेन कितलो आदार दिलो, सांगात केलो तें एक अदृश्य, अदृश्ट महाकाव्यूच जातलें. आमकां घरा भायर काडटकीच खूब वायट दिसतालें. विद्यापिठात रावंक आयले उपरांतूय आंतरधर्मीय जोडपें म्हणून लोक पयस रावताले, कुचित्रीपणान पळेयताले, तोंड वांकडें करताले. आमकां तुटून पडिल्ले वरी दिसतालें. अशा वेळार रगताचें नातें नासलें तरूय दोनशे मिटर्सांचेर खंय तरी आलितो - मिलनाचो आदार आसा, तांचे कडेन केन्नाय वचूंक जाता हो विस्वास म्हाका. मेलींदाक खूब वर्सां बळगे दिवन गेलो. आलीतो आमकां सारकें सांगिनासतना एक दीस बिराड हालोवन दुसरे कडेन रावपाक गेलो. बी-६ हें ताचे बंद आशिल्लें घर पळोवन एक दीस म्हज्या दोळ्यांतल्यान घळघळा दुकां येवंक लागलीं. अचकीत. आपशींच. आतां ताच्या झाडांपेडांक उदक घालपी थंय कोण नासलो. पिसो कसो ताच्या दारा मुखार म्हाका रडटा तें पळोवन रस्त्या वेल्यान येवपी वचपी लोक गंभीर जाताले. पूण कोणेंच लागीं येवन विचारूंक ना.

आलितो गेल्ल्याची खबर कळटकीच नचिकेतसाक घेवन वचून ताच्या बी-६ घराचे बाल्कनींत बसून मनसोक्त रड, रड, रडलो. फक्त आलितो खातीरूच न्हय. मीलना खातीर. गोंयां खातीर, गोंयकारां खातीर, दुबळ्यां खातीर, सगळ्या सामाजीक झुजाऱ्यां खातीर. 'सोड रे आलीतो सिगार, चडूच जाता तुजें. आमकांय धुंवर घेवचो पडटा मरे' म्हणून हांवें शीण काडप आनीक आलीतोन जाप दिवप ना.

हांव रडटां आनी कांयच ना समजून नचिकेतस म्हाका पळयत रावता. हांव मुखार पळयतां. पावस ओतत आसता. दारांत झाड पडलां. आलितोची टेलिफोनाची केबल तुटल्या. शेनवार, आयतार सुटी. झाड मारपी, खांदें तोडपी कोणूच ना.

आलितो घरांत वता. कांय दिसां पयलींच तो दुखण्यांतल्यान उठिल्लो. तो कोयतो घेवन येता आनी एकेक खांदी कातरून रस्तो मेकळो करूंक सोदता.

हांव पळयतां. तेन्नाच सामान घेवन हांव घरा कडेन येतां. आलितो थांबता. हांसता. म्हाका खीण भर तो कितें करता तेंच कळना. मागीर ताच्या हातांतलो कोयतो दिसता. म्हाका हांसचें काय कितें तेच कळना. समाजशास्त्रज्ञ आलितो आनी कोयतो? भर पावसांत? रस्त्यार? झाड मारपाक?

हांव धांवत घरा पावतां. मेलींदा विचारता - आतां आयला थंय आसा मरे, खंय वता परतून पावसांत? 'तूं मात्शे वगी राव' म्हणून हांव धांवत वतां. सत्री वाऱ्यान कडकडटा. म्हाका बेगीन पावंक जाय. आलीतोक घुंवळ बी आयली जाल्यार?

हांव आलितोच्या हातांतलो कोयतो काडून घेतां. 'तूं मात्सो भितर वच पळोवया. म्हाका संवंय आसा असल्या कामाची. हांव तुका रस्तो मेकळो करून दितां.' 'नाका रे नंदू' म्हणत आलीतो कोयतो दिता. 'तूं वच पयलीं भितर' म्हणटकीच तो वता.

म्हजो हात, खांदो दुखता सर एकूणएक आडवें पडिल्लें झाड कातरून, खांदे कुशीक काडून, हुस्कार घेत घेत हांव पुराय पावसांत भिजून आलीतोच्या दारांतलो रस्तो मेकळो करून दितां. मागीर स्वास घेवपाक वचून ताच्या सोपणार बसतां. म्हाका आतां कृतकृत्य दिसता. दार उघडून हांव आलितो कडेन कोयतो दितां. तो कांय उलयना. हांवूय उलयना.

उलयनासतनाच कांय नातीं जुळिल्लीं आसतात. कर्तुबांय बी. लेखनूय बी. जिणूय बी.

म्हजें आनी आलितोचें हें असलेंच एक नातें. एकमेकांचेर शिणपाचें. काळीज तोडून मोग करपाचें.

झाड कातरले उपरांत जाल्ली दूख निवळपाक म्हाका एक वर्स लागलें. ती दूख कांयच न्हय.

आलितो नांवाचो आधारवड गेल्ल्याचे दूखख केन्नाच निवळचें ना.



# बंधमुक्ती शिक्षक : आलितो

आसावरी नायक



आलितो विशीं मम्मां कडल्यान आयकल्लें. ल्हानपणांत ताका मेळिल्लेंय. पूण आमची खरी वळख २०१४ वर्सा, मम्मां वतकर जाली. मम्माच्या निमण्या दिसांनी ती म्हाका, ''गोंय सोड तूं, भायर शिकपाक वच…'' म्हूण फाटी लागिल्ली… आनी तेन्ना हांवेंय बी ''ना. तुजेच बरोबर रावतलें.'' म्हूण हट्ट धरिल्लो. मम्मा बरी नासतना अशी म्हाका आपले पासून पयस कित्याक धाडूंक सोदता काय? तिचे सांगाताक हांव रावचें अशें तिका दिसना काय? अशे जायते प्रस्न म्हाका तेन्ना सतायताले. त्याच काळांत एक दीस आलितो तिका म्हजे मावशेगेर मेळूंक आयिल्लो. तेन्ना मम्मान म्हळ्ळें, ''आलितो, मातशें समजाय रे हाका… ताणें गोंया भायर शिकूंक वच्चें अशें म्हाका दिसता… म्हाका कितेंय जालें जाल्यार ताचेर सगळीं लग्न जा बी म्हणून भार घालतलीं हाचोय भंय दिसता. म्हज्या चलयांक फुडें शिकपाक तूं मार्गदर्शन दी! मम्मा वतकर आलितोन आनी मम्माच्या हेर मित्र मैत्रिणींनी म्हाका आनी म्हज्या घरच्यांक खूब धीर दिलो… आनी मम्माचे इत्से प्रमाण हांवें भायर शिकूंक वच्चें म्हूण जाय ती मदत, आदार दिलो…

मम्मा आलितोची तरणाटे पिराये सावन खूब लागींची मैत्रिण. देखून ती नासतना तिचे विशी जाणून घेवचे खातीरूय हांव आलीतोक मेळटालें. पूण तिचे विशीं आमी दोगांय खोलायेन उलोवंकूच पावलीं नात. घडये, तें दोगांयकूय त्रासदिणें आशिल्लें आसुंये… मम्मा आनी आलितोचे जाय त्या विशयांचेर मतभेद आशिल्ले. तांचे कांय सभावूय सामके वेगळे आशिल्ले. पूण दोगांय एका सारकीं आशिल्लीं तीं तांच्या शिक्षणाच्या उमाळ्यांत. गोंय विद्यापिठांत वावुरतना, दोगांय सतत नव्या भुरग्यांनी शिक्षणीक मळ, संशोधनाचो प्रांत आपणावचो, नवे लेखक, नवे विचारवंत म्हूण आमच्या समाजांत फुडें येवचें ही दोगांयली मोख आसली. 'सगल्यांत पयलीं आपलें सादोवन घेवप मागीर बाकिचीं…' अशें केन्नाच मानिनासतना, जायतेदां आपलें लिखाण, आपलें काम कुशीक दवरुन दुसऱ्यांक आपली मदत कशे तरेन जावूं येता, तांकां कशें फुडें काडूं येता हेंच चिंततालीं. हाचे भायर, एक शिक्षक म्हूण आपलें काम भुरग्यांक फकत पुस्तकीय गिन्यान दिवप न्हय जाल्यार तांचे मर्दी समाजीक चळवळींनी वांटेकार जावपाची उरबा वाडोवप, आनी तांचे बरोबर आपणेंय संघर्श करप हेंय दोगांयकूय सामकें पट्टालें.

आलितोच्या ह्याच 'फायटर' सभावा खातीर, 'जागा'चे एका परिचर्चेंत ताका अध्यक्ष म्हूण आमंत्रीत केल्लो तेन्ना ताची वळख हांवें 'activist teacher' म्हूण केल्ली. आपले तरणे पिरायेच्या निमाणें मेरेन तो विद्यार्थी आनी हेर समाजीक चळवळींनी एक मुखेल घटक म्हूण वावुरतालो. हालीं तो आपल्या activismक "solidarity work" म्हणटालो (तो केन्नाच आपणाक लोकांचो रक्षणकर्तो saviour वा तांचो leader अशें मानिनाशिल्लो. आपूण कोणाचेरूच फावोर करिना, तांचे बरोबर काम करतां.'' बंधमुक्तीवादी (emancipatory) आनी सहभागी (participatory) विचारांचो तो अनुयायी.)

जाणटेपणांत गोंय विद्यापिठांत associate professor म्हूण जायतीं वर्सां वावुरतकर सुद्दां तो आपलीं मुल्यां, आपलो ध्येय आनी आपलो activisim आनी विद्यार्थी जिवितांतली धडपड, संघर्श विसरूं नाशिल्लो आनी सत्ते विरुद्ध ताचो आवाज तितलोच तेजिश्ट, प्रखर उरिल्लो… एका शिक्षकान आपल्या विद्यार्थ्यांचे प्रस्न कशे तरेन समजून घेवूंक जाय, तांकां खास करून कडसरायिल्ल्या समाजाच्या, कनिश्ट वर्गांतल्या, बायल/चली भुरग्यान कशे तरेन आपल्या भोंवतणचे समाज वेवस्थे आड आपलो आवाज उबारपाक प्रोत्साहित करप… तांकां तांचे भंय, अस्वस्थतायो, हुस्के, उस्तुकतायेचेर विचार आनी आत्मपरिक्षण करूंक उर्बा दितना, तांचे मर्दी आत्मविस्वास आनी आत्मगिन्यानाची वाड कशे तरेन घडोवन हाडप हो ताच्या शिक्षण शास्त्राचो (pedagogy) मुखेल हावेस आसलो. विद्यापिठांत वावुरतना रिजर्वेशन scamचेर, जातीय भेदभावाचेर तो धाडशीपणान उलयतालो / बरयतालो, तशेंच गोंयांत जावपी हेर समाजीक, अत्याचारा विरुद्ध आवाज उबारूंक आपल्या सहभाग्यां वांगडा ताणें Socil Justice Action Committeeची संस्थापना केली. तशेंच विद्यापिठांत रावून आपूण आपल्या हेर जबाबदाऱ्यांक वेळ दिवूंक पावता हाची ताका जाणीव जातकर ताणें एच्छीक सेवानिवृत्तीय घेतिल्ली!

आलीतोल्या वर्गांत शिकपाची संद म्हाका मेळूंक ना; पूण ताका हांव नेमान मेळटालें. Email, फोन, मेसेजी धाडटालें… आलितोचो

शिकोवपाचो विशय समाजशास्त्र. 'समाजशास्त्राचो विशय हालीं काळांत फकत elite समाजा पुरतो/समाजा खातीर उरूंक ना... नव्या, वेगळ्या समाजांतलीं भुरगीं- जीं आदी हेर कारणांक लागून शिक्षण वेवस्थेंतल्यान भायर उरिल्ली' ती आतां आमकां समाजशास्त्राच्या वर्गांनी पळोवंक मेळटात. पूण ह्या विशयाचें खऱ्याच अर्थान लोकशायीकरण (democratization) जावूंक पावलां व्हय? समाजशास्त्राचो अभ्यासक्रम, शिकोवपाची तरा आनी शिकोवपाचे वर्ग ह्या नव्या शिकप्यांक आपणावंक पावल्यात व्हय? शर्मिला रेगे, ज्योतिबा फुले, बॅल हुक्स, पावलो फ्रॅर जश्या विचारवंतांचें, शिक्षकांचें आलीतोन खोलायेन अध्ययन केल्लें, आनी परिवर्तनीय (transformative) आनी बंधमुक्ती शिक्षणशास्त्र वर्गांत कशे तरेन घडोवन हाडूं येता हाचेर बारीक विचार केल्लो आनी ताचो दिश्टावो आलितोच्या वर्गांत, ताच्या विद्यार्थ्यां कडेन उलयतना मेळटालो.

आलितोचें आनीक एक खाशेलेंपण म्हणल्यार, ताचे प्रस्न म्हज्या मनांत केन्नाय निर्शेणी, गोंदळ आसल्यार हांव ताचे कडेन उलयतालें. म्हाका म्हजे विचार बरोवपाचो, छापपाचो भंय कित्याक दिसता? सोंशीक/दाबिल्ल्या समाजा विशीं बरयतना आपणाक नामना/फाम मेळिल्ल्यान चळवळीचो घात जाता. चळवळीचेर घात जाता म्हूण चळवळीपरस पयस रावप? काय अशे तरेन पयस रावपूय वयल्या समाजाचो विशेशाधिकार? भेद-भाव आनी विशेशाधिकाराची जाण लोकां मदीं कशे तरेन घडोवन हाडूं येता? असल्या प्रस्नांचेर आमचे संवाद जाताले. जायते वेळार आलितो म्हज्या प्रस्नांची जाप, आपल्या प्रस्नांनी दितालो. तूं हातूंत पडपाक कित्याक सोदता गो? हाचेर काम करपाक, बरोवपाक कित्याक भियेता? हाचो तुका कसलो फायदो? ताच्या ह्या प्रस्नांक फकत एक तत्वगिन्यानी रूप आशिल्लें अशेंय हांव मानिना. आलीतोक आपल्या सरभोंवतणच्या सगळ्यां खातीर आपलेपण, हुस्को, माया, करुणा आशिल्ल्यान, तांचे मदीं आत्मविश्वास आनी समिक्षक विचार करपाची तांक फुलची हीच ताची आस आशिल्ली. 'आलितोक हांव चडूच प्रस्न विचारतां काय? ताका हांव सदांच घुस्पिल्लें शें - गोंदळिल्लें शें म्हूण दिसतलें काय? म्हज्या सतत प्रस्नांचो ताका वाज येत काय?' अशे दुबाव म्हज्या मनांत येताले तेन्ना तो म्हण्टालो, ''आगो, म्हाका गोंदळिल्ल्या घुस्पल्ल्या लोकां कडेन उलोवप, तांचे विचार आयकप खूब आवडटा; आपणाक ताठ, कडक, नि:संशय मानपी लोकां कडेन संवाद सादप म्हाका सामकें कठीण, त्रासाचें दिसता. तूं प्रस्न विचारता तुज्या मनांतल्या गोंदळां विशीं विचार करता, जाल्यार सारक्या मार्गार आसा. एकदां अशेंच म्हाका थाकाय दितना म्हाका ताणें प्रस्ना वयलीय आपली आवडटी उतरावळ धाडिल्ली - "Be patient towards all that is unsolved in your heart and try to love the questions themselves, like locked rooms and like books that are now written in a very foreign tongue. Do not seek answers which cannot be given to you because you would not be able to live them. And the point is, to live everything live the questions now. Perhaps you will gradually, without noticing it, live along some distan day into the answer." Rainer Maria Rilke.

आलितोच्या आनी ताच्या विद्यार्थ्यांच्या अश्याच कितल्याश्या प्रस्नांतल्यान उजवाडा आयिल्लो प्रकल्प म्हळ्यार - ''हांव कोण?'' ब्लॉग... जातीवाद, भेद-भाव, स्थलांतर, पितृसत्ता, भास, अस्मिताय अश्या हेर प्रसंगोचीत विशयांचेर बरयिल्ल्या ताच्या आनी ताच्या विद्यार्थ्यांच्या विचारांचें एक संकलन. समाजशास्त्र विशयांतल्या अप्रूप अश्या ह्या प्रकल्पाक राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय पावंड्यार प्रसिद्धी मेळत आसा.

आलितोचे प्रस्न, प्रामाणिकपण आनी ताच्या ओडलायण्या स्वभावा खातीर तो आपल्या विद्यार्थ्यां मदी लोकप्रिय आशिल्लो. भुरगीं/ तरणाटीं ताचे कडेन अभ्यासाच्याच न्हय तर जायत्या व्यक्तिगत गजालींचेरूय चर्चा करतालीं. हांवूय अशेंच एकदां ताचे कडेन आत्म-शंके विशीं उलयतालें तेन्ना ताणें म्हाका म्हणलें, 'तूं जाणां? पॅकींग चीनाच्या एकूच पिसोळ्ळ्याच्या पाखांचे हालचालींतल्यान खंय न्यू यॉर्काक वादळ येवूं येता म्हूण? ह्या chain reactionक butterfly effect म्हणटात. सामक्ये आलितो स्टायलीन तो म्हणूंक सोदतालो आमचे मदल्या सगळ्यां मदीं आमच्या सगळ्या यत्नांनी समाजांत बदल हाडपाची तांक आसता. आनी देखून कोणेंच आपणाक अप्रधान, तुच्छ लेखूंक जायना. butterfly effectच्या पिसोळ्या वरींच आलीतोच्या पांखांच्या वाऱ्याचो म्हजेर, आनी ताच्या विद्यार्थ्यांचेर खूब प्रभाव पडिल्लो. तेच तरेन आपले विद्यार्थी आपले इतलेच सक्षम, तांकांच लागून आपूण खूब बदल्लां अशें तो म्हणटालो. ''तुजे असलीं तरुण भुरगीं म्हजेर इतलो भरवंसो दवरतात, म्हाका इतलें महत्व दितात - हें म्हजें भाग्य'' हेंय तो नमळायेन मान्य करतालो.

आलितोन आनीकूय खूब कितें करूं येतालें... समाजांत आशिल्ल्या अन्याया आड झुजपाक ताची ''विद्यार्थी आर्मी'' आनीकूय व्हड जातली आशिल्ली... ताचे असलो शिक्षक, मित्र, activist, संशोधक आयज आमचे मदीं ना. ताचीय जाणीव सदांच आमच्या मनांनी उरतली... ताका म्हजी मना पसून वंदना.

संपर्क: 7447268720



# ज्या प्रोफेसरा कडल्यान हांव पयस धांवतालें...

फाविता डायस

हांवें विद्यापिठांत प्रवेश घेतिल्लो तेन्ना हांव सामकेंच अस्वस्थ आशिल्लें. आनी कित्याक आसचें ना? तें पुरायपणान एक नवें विश्व आनी नवें वातावरण. ताचे भायर आतां हांव एक व्हड जाल्लें चली जें उच्च शिक्षण घेवंक आयिल्लें. हांव म्हज्या सगळ्या इश्ट इश्टिणी मदींच न्हय जाल्यार म्हज्या कुटुंबांतलेंय पयलेंच हे पदवेर पावपी पयलेंच आशिल्लें देखून ही म्हजे खातीर अभिमानाची गजाल आशिल्ली. खरेंच! कितलो गर्वाचो खीण न्हय हो?

म्हाका खात्री आसा कोणूय विद्यार्थी जेन्ना खंयचेय संस्थेंत वा वर्गांत प्रवेश घेता तेन्ना ताका ताचे संस्थे वा वर्गा विशीं निदान आपल्या वर्गशिक्षका विशीं जाणून घेवपाची उत्सुकता आसताच. देखून हांवेंय शिक्षक, विद्यार्थी तशेंच विद्यापिठाचे एकंदरीत वेवस्थे विशीं जाणून घेवपाचो यत्न सुरू केलो.

वर्ग सुरू जाले तेन्ना शिक्षकांची ल्हव ल्हव वळख जावंक लागली; ते सगळेच पेझाद दिसले. हुस्क्यानचशें आमी आमच्या सिनियरांक अभ्यासक्रमा विशीं विचारूंक लागलीं. तांणी आमकां खंयचो शिक्षक खंयचो पेपर शिकयता, कसो शिकयता आनी कशे मार्क दिता तें वेवस्थीत सांगलें. तेच वांगडा खंयच्या पेपराक कांय न्ही करून पास जातलें तेंय सांगलें. आनीक एक गजाल तांणी मुद्दम जावन सांगली ती म्हणल्यार एक असो प्रोफेसर आसा जाची शिकोवपाची आनी मार्क दिवपाची तरा भुरग्यांक सामकी सतावणूक. तो तुमकां सद्दां प्रेझेंटेशनां करपाक लायतलो, व्हडले व्हडले लेख वाचपाक लायतलो आनी वयल्यान सद्दां तुमची परिक्षा घेतलो. विचार करात तुमी स्वता वाचप, ग्रुपांत प्रेझेंटेशन करप आनी क्लासूय चुकोवंक मेळना कारण तुजे मार्क वतलें. असल्या क्लासाचो आनी शिक्षकाचो खंयच्याय विद्यार्थ्याक भंय दिसतलो. म्हजे वांगडच्या भुरग्यांक आनी म्हाकाय बी हो सगळो काळ सामकोच कठीण आशिल्लो. आमकां इतल्या वाचनाची आनी सद्दां नोट्स काडपाची संवय नाशिल्ली आनी हांगा तर तो सद्दां आमकां प्रेझेंटेशन करपाक लायतालो ना जाल्यार मार्क उणे जाताले. मार्क तर सगळ्याच विद्यार्थ्यांच्या आयुश्यांत महत्वाचो रोल निभयतात. देखून आमकां ताका गंभीरपणान घेवचें पड्यलें. चडश्या जाणांनी ताचो कोर्सच घेवप टाळ्ळें. ज्या दिसा म्हाका प्रेझेंटेशन नासतालें त्या दिसा हांव सामकें खुशाल आसतालें. तो सदांच तोंडार मात्सो हांसो सुद्दां दवरिनासतना सिरीयस मुखामळान आमचे कडेन येतालो.

म्हाका ताची पयली क्लास आयजूय उगडास आसा. सादारणपणान पयले दिसा खंयचोच टिचर शिकयना. रिती प्रमाण पयले दिसा सगळीं एकामेकाची वळख करून घेतात. म्हाका दिसलें हांगाय तें तशेंच आसतलें. आनी तें तशेंच आशिल्लेंय बी पूण ह्या प्रोफेसरा बाबतींत न्हय. ताणें जायतीं चित्रां आपल्या सांगाता हाडिल्लीं. ताणें तीं जमनीर पातळावन आमकां तातूंतलें खंयचेंय एक चित्र काडून तें तुमी कित्याक काडलां ताचेर उलोवंक सांगलें. म्हाका उगडास जाता हांवें आजो आनी नात आशिल्लें चित्र घेतलें. सगळीं उलोवन जाले उपरांत ताणें आमकां नेमकें कितें सांगलें तें आतां याद जायना पूण 'सेल्फ रिफ्लेक्शना' विशीं सांगलें .

पयल्या वर्सा तो आमकां क्लासिकल समाजशास्त्र, आनी समाजीक संशोधन पद्दती हे पेपर शिकयतालो. आमी सद्दां वाचून, प्रेझेन्टेशन करून चर्चा करतालीं. जर तुवें बरें आर्गुमँट घातलें जाल्यार तुका बरे मार्क मेळटाले. क्लासिकल सोशोलोजी हो सक्तीचो विशय आशिल्ल्यान आमचे लागीं पर्याय नाशिल्लो. पूण समाजीक संशोधन पद्दती हो ऑप्शनल पेपर आशिल्लो. आतां प्रस्न आशिल्लो तो हांवें हो कोर्स कित्याक घेवचो जेन्ना हांव दुसरे पेपर घेवंक शकतालें? एक कारण म्हणल्यार आमच्या सिनियर्सांनी सांगलें जर तुमकां फुडल्या वर्सा डिझर्टेशन करपाक जाय जाल्यार हो कोर्स खूब महत्वाचो. दुसरें कारण म्हलल्यार म्हज्या बॅस्ट फ्रेंडान हो कोर्स घेतिल्लो. आमी वर्गांत चारच जाणां आशिल्लीं ते हाचे वयल्यान कोणय थारावंक शकता कितले जाण ताचे कडल्यान आनी ताच्या कोर्सा कडल्यान पयस धांवताले. ताका थोडेच दांत आशिल्ले आनी तांतूतलोय एक दांत भायर आशिल्लो. हाका लागून म्हजी एक इश्टीण ताची नक्कल करताली. तो



ज्या दिसा क्लासांत येनाशिल्लो त्या दिसा आमी सामकींच खूश जातालीं. जे सामकेंच कमी प्रमाणांत घड्यलें. खरेपणीं आमकां आमच्या सिनियर्सांनी सांगिल्लें ताचें खूब मोठ्ठें ऑपरेशन जालां देखून ताका एक्स्टेंशन मेळिल्लें ना जाल्यार तो रिटायर जावपाचो. म्हाका दिसतालें हांव दुसरे वर्सा पाव मेरेन तो निवृत्त जावचो.

पूण ताच्या त्या समाजीक संशोधन पद्‌दतीच्या वर्गांत म्हाका ताची शिकोवपाची तरा कळ्ळी जाका लागून आमी खरें शिकप कळून संशोधक म्हण वाडपाक शकलीं. अचकीत क्लासींत म्हाका उमेद येवंक लागली आनी हांव भावनीक नदरेन क्लासांत गुंथूंक लागलें. म्हजो आत्मविश्वास वाड्‌ंक लागलो. हांव ह्या क्लासांच्या निमतान हेर क्लासींत चड आत्मविश्वासान उलोवंक लागलें. ह्या सगळ्याक लागून निमणे कडेन हांवें म्हजें डिझर्टेशन ताच्याच मार्गदर्शना खाला करतलें असो निर्णय घेतलो.

दुसऱ्या वर्सा हांव चड समाधानी आशिल्लें आनी हांवें जायत्या नव्या भुरग्यांक ताचो पेपर घेवंक लायलें. पूण म्हजेच वरी वाचून नोटस काडप आनी प्रेझेंटेशनाचे हे पद्‌दती कडेन सवकळी नाशिल्लो. जशें हांवय म्हजे सुरवातेच्या युनिव्हर्सिटीच्या काळांत पारंपरीक पद्‌दती कडेन लागी आशिल्लें तशेंच सगळ्यांकच शिकोवपाची पारंपारीक पद्‌दत जाय आशिल्ली. हें ते खातीर जावं येता, कारण आमकां क्लासांत नोटस् दिवप, ते तोंडपाट करप हाचे शिवाय दुसरे खंयचेच शिकोवपाचे वा शिकपाचे पद्‌दतीची जाणीव कोणेंच करून दिवंक ना. ताका लागून चड्शे जाण ताणें शिकयल्ले ऑपशनल पेपर घेनाशिल्ले. म्हाका याद जाता ताचे क्लासींत सामकें थंड आनी भिडेस्त भुरगें लेगीत उलयतालें. हाचे फाटल्यान एकच कारण आशिल्लें. आमी कितेंय उलोवं, ते कितलेंय विशया भायरें आसूं ताणें आमच्या मताक सदांच महत्व दिलां जाका तो स्वताचो 'voice' म्हणटालो. जरी आमच्यो जापो विशयाक धरून नासताल्यो तरी तो त्यो अशे तरेन आपल्या विशया कडेन आसपावन घेतालो. जापो दितल्याक आपूण खंयच कमी वा खालतेपण येना आशिल्लें. ताच्या मतान खंयचीच जाप चूक आसना. खंयच्याय तरी दृश्टीकोनांतल्यान ती सारकी आसता. केन्ना केन्ना एका लॅक्चराक खंयचोय एखादो मुद्दो उरलो जाल्यार तो दुसऱ्या लेक्चराक ताचेर भासाभास करतालो. म्हाका दिसता ही सगळ्यांत बरी गजाल जी हांवें क्लासांत अणभवल्या. तो सांगतालो तुमचे मदल्या भुरग्याक मरूंक दिवं नाकात.

म्हाका उगडास जाता ताचे वांगडा हांव कशे रितीन व्हड जालें तें. डिझर्टेशनाच्या वेळार म्हाका याद जाता ते प्रमाण हांव म्हजे अणभव सांगून रड्यलें. डिझर्टेशनाच्या त्या पुराय काळांत हांव जायत्या भंय आनी दुख्खांतल्यान भायर सरलें. युनिव्हर्सिटींत येतना हांव आशिल्लें ते परस आता चड आत्मविस्वासू जाल्लें. आतां म्हाका दिसता जर हांवें तेन्ना म्हजीं दुख्खां, भंय सहजपणान आपणावन व्यक्त केल्लीं जाल्यार म्हजें डिझर्टेशन आनीक बरें जावं येतालें. (अशें म्हाका आतां समजता.)

म्हजी एम. ए जाले उपरांतूय हांव ताच्या संपर्कांत आशिल्लें. हांवें जेन्ना म्हजे जातीक लागून आयिल्ले अणभव, जे हांवें केन्नाच कोणाय कडेन व्यक्त करूंक नाशिल्ले, ते ताचे कडेन उक्तायले तेन्ना आमच्या नात्याक आनीकय चड घटाय आयली. हें सांगपाचें धैर्य म्हाका जालें ते क्लासांतले ते चर्चेक लागून. तेच वांगडा म्हाका खात्री आशिल्ली की सर म्हाका आनी म्हज्या अणभवांक केन्नाच कमीपणान पळोवचो ना. म्हज्या जातीक लागून तो म्हाका सकयलें वा तुच्छ लेखतलो असो म्हाका मात्तूय भंय नाशिल्लो. ते उपरांत हांवें फार्टी वळून पळोवंक ना. म्हजी ताणें सोशल जस्टीस एक्शन कमिटी कडेन वळख करून दिली. जंय म्हाका म्हजे भशेन विचार करपी लोकांचो सांगात मेळ्ळो जे समाजांत जावपी भेदभावा विरूद्ध वावुरताले. हाका लागून म्हाका हे लडायेंत हांव एकटें ना हाची जाणीव जाली. हांवें आरक्षणा सांगाताच हेर जायत्या विशयांचेर सामाजीक स्थरार काम करपाक सुरवात केली. सरान म्हाका केन्नाच तूं हें काम करच आनी तें अशेंच कर असले तरेचे उपदेश दिवंक ना. तो फकत हांव कितें उलयता तें आयकतालो आनी म्हाका प्रस्न विचारतालो. तुका हें कित्याक करूंक जाय? आनी तें केल्यार कितें जावं येता ताचेर विचार केला? ह्या प्रस्नांच्यो जापो सोदप सदांच सोंपें नासतालें. मागीर तो सांगतालो तुका जें बरोबर दिसता तीच वाट निवड. तुका ज्यो जापो मेळनात तांचे बरोबर चलत राव, केन्ना तरी त्यो तुका मेळटल्यो. जरी तुका जापो मेळ्ळ्यो नात जाल्यारय कांयच हरकत ना.

म्हजो भंय, दुख्खां आनी खंतीचेर ताणें म्हाका विचार करूंक शिकयलें; जाचीं मुळां ताच्या मतान भुरगेपणांत मेळू येतात. ताचें सांगप आशिल्लें आमची शिक्षण पद्‌दत आमकां आमचे मदल्या भुरग्याक विसरूंक लायता-'तुमचे मदल्या भुरग्याक विसरूं नाकात. ताचो सांबाळ करात, तुमच्या भुरगेपणांतल्यो खंतीच वेगळे तरेन वर्गांत तुमचे मेरेन पावूं येतात...' म्हाका उगडास जाता म्हजी एक इश्टीण वर्गांत खूब अस्वस्थ आसताली. सरान ताका जाय तेन्ना वर्गांत पासयो मारपाची परवानगी दिल्ली. हाका लागून ताचे लक्ष केंद्रीत करपाचे क्षमतेंत खूब वाड जाल्ली. खंयच्याच शिक्षकाक आमच्या जामोयांनी आनी वाजेवपांत रूच नासताली. पूण सर आमकां वाज आयल्यार हातपांय हालयात, जांबोयो काडात अशें म्हणटालो. तो म्हणटालो जोंबोयांक लागून आमचे कुडीक ऑक्सिजन मेळटा आनी आमी चड बरे तरेन लक्ष दिवंक शकतलीं.

आमच्यो असुरक्षितायोच आमचें बळ जावं येता. हें म्हाका ताचे वांगडा रावन कळ्ळें. आयज हांव त्याच विद्यापिठांत सहाय्यक प्राध्यापक म्हण वावुरतां, तेन्ना सराच्या रुमांत बसून काम करन अशें दिसता. अशें केल्यार म्हाका सराची हुशारकी जावं ताचें पाशियेंस मेळटलें अशें न्हय, पूण त्या रूमांत म्हज्यो ताचे वांगडच्यो गोड यादी आसात. म्हाका सदांच ताचे वरी जायन, शिकयन दिसता. ताची शिकोवपाची पद्‌दतय हांवें वर्गांत आपणावपाचो यत्न केलो पूण ते तितलें सोंपें न्हय हाची जाणीवय आयली. अशें करपाक त्या विशयाचो

*(पान २८ चेर)*



# रिज़र्वेशन वर्सीस इंक्लुजन

आलितो सिकैरा

एकदां विद्यार्थ्यांक परिक्षेक एक प्रस्न विचारलो : "वाग खंय रावता?" विद्यार्थ्यान बरयलें. "म्हज्ये घरा फाटल्यान" ट्चिरीन उत्तर चुकीची म्हण तपासलें कारण जाप आसूंक जाय आशिल्ली "जंगलांत." रानांत रावतल्या मेरेन जावं रानाच्या लागीं रावतल्या मेरेन परिक्षा पावूं येता हाचो पुस्तक बरोवप्यान केन्नाच विचार करूंक ना. जाप दुसरी आसूं येता हाचो विचारच करप जायना.

असोच समाजशास्त्र वर्गांतलो थोडोसो बदलिल्लो संदर्भ :

**विद्यार्थी** : मॅडम, जेन्ना आमी जाती शिकतात तेन्ना आमी फकत जी. एस. गुरे, एम. एन श्रीनिवास, लुईस दुमॉट हांकांच कित्याक अभ्यासतात? ते ब्राह्मण जावं गोरें म्हण?

**शिक्षक** : हे बुन्यादी समाजशास्त्रज्ञ जांणी जाती संकल्पनेचेर मुखेलपणान वावर केला. ब्राह्मणीकरण, संस्कृतीकरण आनी सत्ता विभागणेचे विशय तांणी मुखार हाडले. लेखकाच्या जाती कडेन जावं वंशा कडेन ताचो कसलोच संबंद ना. (घडये हो दलीत कार्यकर्तो विद्यार्थी आसूं येता अशें गृहीत धरून) ...तुका ते अभ्यास क्रमाच्या चवथ्या पाठांत मेळटलें थंय आमी बाबासाहेब आंबेडकरांचेर चर्चा करतले.

**विद्यार्थी** : स्वतंत्र्याच्या पन्नासापरस चड वर्सां उपरांत लेगीत बाबासाहेब आंबेडकर चवथे सुवातेर आसा? संस्कृतीकरण आदी विशयां परस स्वतंत्र भारतांत जात ही संकल्पना समजतलो जाल्यार भेदभाव पयलीं समजप गरजेचो अशें तुमकां दिसना?

वयले भासाभाशेंतल्यान दिसता तें गिन्यान कशे तरेन संदर्भीत जाता; तें केन्नाच सार्वत्रीक नाशिल्लें. पळयतलो आपले नदरेंतल्यान खंयचेय संकल्पनेचें महत्व थारायता. उच्च वर्गीय जे नदरेंतल्यान संवसार पळयता ती नदर आनी एखादो आदिवासी संवसारा कडेन पळयता ती नदर हातूंत मोठें अंतर आसा. तें ज्ञान सारांशीत शिक्षणीक नदरेंतल्यान संदर्भ-विशिश्ट आसूंक जाय अशें ना; तें सकयल दिल्ले देखी वरवीं सदचे जिणेंत अनिवार्य आसता हें मार्मीकपणान दिसून येता. (फुडलें बरप विद्यापिठांत घडिल्ले सत्य घडणुकेचेर आदारीत आसा.)

राखीव सुवात भरपाक आशिल्ल्या एके मुलाखतींत जाणकारांक दिसलें, स्थानीक राखीव उमेदवारांक तथ्यां आनी संकल्पना हांचे मदलो फरक तशेंच मूळ संकल्पने विशींची जाणीव आनीक स्पश्टपणान खबर आसूंक जाय आशिल्ली. तांणी बरे तरेनच म्हणलां अशें समजुया, तांकां भायल्या राखीव उमेदवारांचे तुलनेंत स्थानीक उमेदवार विचारांनी आनी वागणूकेंत 'कार्यकर्तें' चड दिसले आनी विशयाचे जाणविकायेंत आनी शिक्षणीक योग्यतायेंत भायले उमेवार चड श्रेश्ठ अशें जाणकारांनी नमूद केलें. स्थानीक उमेदवारांच्या कानार ही गजाल गेली तेन्ना तांणी विद्यापिठाक पत्र बरोवन नदरेक हाडून दिलें संविधान आनी सर्वोच्च न्यायालयाच्या निवाड्या प्रमाण फकत स्थानीक (राज्य मर्यादीत) राखीव उमेदवारूच राखीव सुवाते खातीर पात्र थारतात. देखून विद्यापिठाची भायल्यांची नेमणूक गैर थारता. विद्यापिठाक सक्तीन आपलो निर्णय फाटी घेवचो पडलो. हे घडणूकेचो उपरोध असो कार्यकर्तें म्हण कमी लेखिल्ल्यांचे शिटुकसाणेन स्थानीक उमेदवारांकूच फायदो जावंक ना जाल्यार विद्यापिठ वयलेंय संकट टळ्ळें.

ताकाच लागून गुणवत्ता (merit) थारावपाक शिक्षणीक ज्ञानाक एकच बाजू आसता अशें मानप चुकीचें थारतलें. विद्यापिठां कडेन बदलाचें माध्यम आनी शिक्षणाक समाजीक वेगळेचारांक कमी करपाचें साधन म्हण पळयतना वसणूके काळांत शिक्षणा कडेन पळोवपाची जशी नदर आशिल्ली ती तशीच उरप आयच्या काळांत योग्यय ना आनी गरजेचीय ना. आयच्या काळांत श्रेश्ठताय वेगळ्या वेगळ्या कसबांतल्यान तपासूं येता. मानवी अभ्यास (humanities) आनी समाजविज्ञानान ही गजाल मान्य करूनय वास्तवीक रुपांत आमचे शिक्षण पद्दतींत वा शिक्षणशास्त्रांत (pedagogy) हें दिसून येना.



वयर नमूद केल्ल्या वाग आनी डॉ. आंबेडकरांच्या देखीं वयल्यान कळटा ते

प्रमाण आमचो अभ्यासक्रम सादारणपणान पुरूश, शारी आनी उच्चजातीय मनीस केंद्रांक धरून आनी तांकांच फावो सारकोच आसता. पळोवंक गेल्यार खंयचोच अभ्यासक्रम पुरायपणान बरो अशें म्हणूक येना आनी ताका संदर्भ आनी स्थानीक गरजो पळोवन योग्य समर्थ करचो पड्टा. तेच वांगडा सर्वव्यापक असो बरो शिक्षक आसना. बरो शिक्षक तोच जाका अभ्यासक्रम पक्षपाती आसता, आनी एके आदीवासी बायलेक शिकोवप तशेंच एका शारी दोतोराचे चलयेक शिकोवप हे सामकेच वेगळे अणभव आसूं येतात हाची जाणीव आसता. प्राथमीक ते उच्च शिक्षण मेरेन जी शिक्षण पद्दती आमी सगळीं मानतात ती शारी, पुरूशप्रधान आनी उच्चजाती मुल्ल्यां मानपी पद्दत आमचे मदल्या चडश्यांक त्या पद्दतीचें सक्तीन अनुकरण करपाक लायता.



ह्या सगळ्यां मदीं आरक्षणाचें महत्व कितें? पयलीं म्हणल्यार भारतीय समाजा वरीच आमकां समाजीक विविधताय आमच्या शिकपाच्या वर्गांतूय ठळकपणान दिश्टी पड्टा. जाका लागून आमी अस्वस्थ जावंक वा तिडकूंक शकतात. आरक्षीत सुवार्तेतल्यान आयिल्लीं मनशां तांचे कडली गिन्यानाची खाण मुखेल प्रवाहांत हाडूंक शकतात जाचें आयच्या शिक्षणांत उणेंपण भासता. आरक्षण हें आरक्षीत समाजांतल्या शिक्षकांचेर जावं विद्यार्थ्यांचेर केल्लो उपकार अशें मानप चुकीचें. आरक्षणाक आमी समाजाक विविधतायेक आपणावन ताका गिरेस्त करपाचें एक साधन म्हण पळोवंक जाय.

सद्याचे स्थितींत शिक्षण पद्दतीचो गाभो- ताचो अभ्यासक्रम, शिकोवपाची तरा, गिन्यानशाखा- जायत्या जाणांक कडसरायता. हाका लागून जायत्या विद्यार्थ्यांचें भावनीक आनी मानसीक नदरेन खच्चीकरण जाता आनी ताका लागून तांचे अस्मिताये कडल्यान ते पयस वतात तशेंच तांकां सामान्य श्रेणी सारके जावचे असो तांचेर भार पड्टा. आयजूय शिक्षणीक क्षेत्रांनी कितल्योश्योच आरक्षीत सुवाती आर्दी सावन भरी नासतना आसात तशेंच विद्यार्थ्यांच्या वांट्याक आयिल्लें शोशण इतलें आसा जाका लागून ते ५% आरक्षण केलेंच म्हण आमची जापसालकी सोंपना.

कितें शिकोवप आनी कशें शिकोवप हातूंत जायते बदल करपाची गरज आसा. हें तेन्नाच घडूं येता जेन्ना सोशीत वर्गांतल्या लोकांक आमी आमची समाजीक वेवस्थेंत बदल हाडपाची संद दितलीं. देखूनच जेन्ना जेन्ना कडसरायिल्ल्या समाजाचेर अन्याय जाता तेन्ना तेन्ना आमी तांकां मुखेल प्रवाहांत सामावन घेवपाक झुजूंक जाय.

*(रिजर्वेशन वर्सीस इंक्लुजन हो मूळ लेख अणकारून)*

# नव्या भारतांत नेहरू वेवस्थेचें निराकरण

युगांक नायक



जगभरांत साबार स्वतंत्र चळवळी जाल्यात आनी दर एके चळवळीच्या प्रकारान थळाव्या राश्ट्राचें संविधान आनी दिशा थारयल्या. ४ जुलय १९७६ वर्सा अमेरीकेन ब्रिटीश वसाहतींतल्यान स्वातंत्र्य जाहीर केलें. अमेरीका आपल्या स्वातंत्र्याक 'अमेरीकन वॉर ऑफ इंडेपेन्डन्स' अशें म्हण्ट्य कारण थंय प्रत्यक्ष झुज जालें. रशियेंत आनी चीनांत क्रांती जावन सत्तांतर जालें, तर कांय कडेन लस्करानूच सत्ता बदल केले. भारतीय स्वातंत्र्याची व्याख्या मात 'स्वतंत्र चळवळ' (Indian Freedom Movement) अशी जाता. भारताची स्वातंत्र चळवळ जगांतली एक अशी चळवळ जे चळवळीक साबार आयाम आशिल्ले आनी विवीध मतप्रवाह आशिल्ले. भारतीय स्वातंत्र चळवळ म्हळ्यार फक्त इंडीयन नॅशनल काँग्रेसीचोच इतिहास अशें म्हणप समा न्हय. आनी इंडियन नॅशनल काँग्रेसी खातीरूच जें कितें वायट जालां ताचे खातीर दोश दिवप बरोबर न्हय. काँग्रेस धर्मनिरपेक्षता, समाजीक न्याय आनी संविधानीक तत्वांक केन्द्रबिंदू करून ब्रिटीश सरकार आनी बिगर काँग्रेस घटकांकडेन संवाद सादत आशिल्ली. आयज जे पद्दतीन नेहरूच्या व्यक्तीत्वाचो पुर्वाग्रह धरून तांच्या नीती धोरणांचेर टीका जाता तें पळयल्यार देशांत नवो मतप्रवाह तयार जाता ही वस्तुस्थिती आसा. ही सादी गजाल न्हय आनी ताचे परिणामय गंभीर आसात. आयज जे पद्दतीन जागतीक समाजवेवस्था बदलल्या ताचें आकलन करपाक पारंपारीक परिपेक्ष आनी शास्त्रां उणी पड्यात. नेहरूंच्या नीती धोरणांचेर टीका जावप ही देशांत घडपी नविदाद न्हय. पंडीत नेहरू हे टीका आनी आलोचनेक अपवाद नाशिल्ले. पूण इतिहासीक घडणूकांची तत्थ्यां मोडून आयज नेहरू विचारांचो कथासार निर्मुवपाचो यत्न चल्ला. ताका कारणांय आसात.

भारतीय स्वातंत्र्याचे सरासरीचे स्कुल ऑफ थोट -

**१. दक्षिणपंथी फळां आनी तांची फुलां:**

भारत हें अखंड हिन्दु राश्ट्र आनी गझवा-ए-हिन्द हे संकल्पनेक धरून दक्षिणपंथाची मुळां स्वातंत्र्य चळवळींत जल्मल्लीं. ह्यो दोनूय विचारसरणी परस्पर विरोधी. पूण हिन्दु आनी मुसलमान हे एका देशांत समान नागरीक म्हण रावपाक शकना हें तांचें मूळ. द्वी-राश्ट्रीय सिध्दांताक धरून तांची चळवळ आनी विचारसरणीं उदेली. ह्याच विचारांतल्यान पाकिस्तानाच्या विचाराचो जल्म जालो. आनी हिन्दुचें पाकिस्तान करपाचो प्रोजेक्ट तेन्ना थांबलो, पूण बंद पडलो ना. पुराय जगांत उजव्या विचार सरणीनी इतिहास आनी मिथकांच्यो सोयिस्करपणांन अर्थ लावन सत्ता वसयली. एडॉल्फ हिटलर, बॅनीटो मुसोलीनी, फ्रान्सीस फ्रांको ते आतांचो लादीमीर पुतीन हे लोकशायेंत वेंचून आयले आनी ताणी साम्राज्य वसयलें. जातीय वेवस्थेक लागून हिन्दु भौसाचें ध्रुवीकरण करप कठीण जातालें. देखून भारतांत उजवी



विचारसरणीं लोकशायी पद्दतींत २० व्या शेकड्यांत सत्ता गाजोवंक शकली ना. आयज जात व्याप्त हिन्दु समाज वोट बँक जाला कारण आयचें हिन्दुत्व बाजार आनी मध्यम वर्गाच्या गरजांचेर स्वार जावन आयलां. आनी पुराय जगांत उजवे विचारसरणीचें प्रभुत्व वाडपाक लागलां, कारण भांड्वलदारान आनी भोगवादान मध्यम वर्गाचेर इतली भुरळ घातल्या, हो वर्ग रिणानी बुड्ला, ताज्यो गरजो आनी वागणूक पुराय बाजार शक्ती चलयता.




पंडीत नेहरू हे सामके धुर्त रणनितीकार आशिल्ले. तांच्या कल्पनेतल्या भारतांत मुखेल उद्देगाचीं साधनां भौशिक अधिकारक्षेत्रांत आसतालीं जाका लागून निर्णय प्रक्रियेंत बाजार शक्तींचो प्रभाव जाणवलो ना. कारखाने हीं नव्या भारताची मंदीरां अशें मानपी नेहरू 'मंदीर वही बनायेंगे' घोशणां दिवप्यांक केन्नाच पसंत नाशिल्ले. अर्थशास्त्राची 'भौशीक निती' ही धर्मांद शक्तींक केन्नाच पसंत नाशिल्ली.

**२. कम्युनीस्ट सत्तेचो कल्पनाविलास:**

अशें म्हणटात अधिकृत चीनी कम्युनिस्ट पार्टे पयलीं भारतीय कम्युनिस्ट पार्टेची स्थापना जाल्ली. मजेची गजाल स्वातंत्र्या उपरांत भारतीय कम्युनिस्ट पक्ष हे जगांतले एकमेव कम्युनिस्ट पक्ष आशिल्ले, जे लोकशायेचे प्रक्रियेंतल्यान वेंचून येवन संसदीय प्रणालींत पक्षाचे प्रतिनिधीत्व करताले. जरीय भारतीय कम्युनिस्ट पार्टी ही मुखेल प्रवाहांतली पार्टी आशिल्ली, पूण भितरले प्रवाह वेगळेच आशिल्ले. देखीक सिताराम येच्युरी जेन्ना मार्क्सवादी कम्युनिस्ट पार्टीचे महासचीव जाले तेन्ना तांच्या कार्यकाळाच्या पयल्या भारतीय स्वातंत्र्य दिसाची प्रतिक्रिया बोलकी आशिल्ली. ताणीं म्हळें भारताक गावलां तें राजकीय स्वातंत्र्य, आर्थीक स्वातंत्र आजून मेळचें आसा. होच विचार स्वातंत्र्य चळवळी वेळार कम्युनिस्टां भितर संभ्रम तयार करतालो. जो मेरेन ह्या देशाचो गरीब गरीबींतल्यान स्वतंत्र जायना तो मेरेन ह्या स्वातंत्र्याक अर्थ ना. कम्युनिस्ट विचारसरणीं हिंसक क्रांती करून कम्युनिस्ट सत्तेचो विचार मांड्टा, लोकशायेच्या बदलांतल्यान स्थित्यांतर मानीनात. कम्युनिस्टांचो हो कर्मठ घटक स्वातंत्र्या उपरांत मुखेल प्रवाहांतल्या कम्युनिस्ट पार्टीकडल्यान फारकत घेवन आदिवासी भागांत आदि नक्सलवाद आनी उपरांत माओवादांत रूजलो.

पंडीत नेहरू हे पंतप्रधान वा राष्ट्रप्रमुखा बरोबर आंतरराष्ट्रीय संबंदशास्त्राचे अभ्यासक आशिल्ले. तांच्या आर्थीक निती आनी नियोजनशास्त्रांत तांचेर आशिल्लो येवरोपी समाजवादाचो (socialism) प्रभाव स्पश्टपणान झळकतालो. पूण तांच्या परराष्ट्र धोरणांत मात ते समाजवादाच्या पलीकडेन पाविल्ले. समकालीन येवरोपात चलपी राष्ट्रवाद (Nationalism) आनी साम्यवादाच्या (Communism) मतप्रवाहांत तांचो चड रस साम्यवादाच्या सिद्धांतांत आशिल्लो. आनी जॉसेफ स्टॅलिन हांच्या नेतृत्वा सकयल सोव्हीयेतान केल्ले येवरोपी देशांचे कब्जे (invasion) पुराय येवरोपांत साम्यवादाच्या पक्षान आशिल्ले जनमत आनी सत्तेचे रुपांतर राश्ट्र वादांत जाता असो तांचो निश्कर्श आशिल्लो आनी हो राष्ट्रवाद जागतीक साम्यावादी क्रांतीच्या परस्पर आशिल्लो. हें ताणी अमेरीकेचे राष्ट्राध्यक्ष आयझनहावर हांकां उलोवन दाखयल्लें. इतलेंच न्हय तर संयुक्त राष्ट्र सुरक्षा मंडळाचे (UNSC) नियमित सभासद-पद (Permanent Member) चीनी क्रांती उपरांत राष्ट्रवादी चीनी (Nationalist China: Republic of China) सत्तेपरस बिर्जींगच्या नवोदित साम्यवादी चीनी (Communist China: People's Republic of China) सत्तेक दिवचे असो तांचो आग्रो आशिल्लो. जे करून जागतिक साम्यवादी चळवळ (International Communist Movement) बुलंद जातली आनी सोव्हियताच्या साम्यवादाचें राष्ट्रीकरणाक मर्यादा पडटली. पंडीत नेहरूंची नजर इतली वैश्विक आनी विशाल आशिल्ली.

**३. इंडीयन नॅशनल काँग्रेस:**

हो स्वांतत्र्य चळवळीचो मुखेल प्रवाह आशिल्लो आनी ब्रिटीश शासन ताजी अधिकृत दखल घेतालें. विवीध विचार सरणींचो हो समूह आशिल्लो आनी तातूंतय आंतरप्रवाह आसप सभावीक आशिल्ले. त्या प्रवाहां भितर गांधी, नेहरू, समाजवाद आनी येवरोपी राष्ट्रवाद प्रेरीत लोक आशिल्ले. पूण बाकीच्या प्रवाहां परस हो मुखेल प्रवाह जावपाक पावलो ताचें कारण म्हळ्यार हो प्रवाह 'मास पोलीटीक्स' करतालो. ताची व्याख्या व्यापक आशिल्ली आनी वेंचणूक प्रक्रियेच्या तंत्राचेर ताचो प्रभाव आशिल्लो. लोकशाय हो आंकड्यांचो खेळ हें ह्या प्रवाहान वळखल्लें आनी त्या पद्दतीन राज्य आनी पक्षाची रचना ताणीं केल्ली. उजवे आनी दावे हे तेन्ना काळाचीं पावलां वळखुपाक चुकले आनी जन समर्थनाक मुकले. एका म्हत्वाचे गजाली खातीर काँग्रेस मुखेल प्रवाहांत येवपाक कारण आसा तें म्हणल्यार अहिंसेचें तत्व. अहिंसक चळवळी दीर्घ काळ चलता आनी त्यो मोड्न काडप तितलेंच कठीण आसता. काँग्रेसी भितर वेंचणूक व्यवस्था, संघराज्य, मुळावी आर्थीक आंखणी, नागरीकत्व ह्या विशयांचर गंभीर चर्चा जातली आनी परस्पर विरोधीं मतांय जाणवतालीं. दोतोर बाबासायब आंबेडकार हांच्या विचारसरणींत आनी काँग्रेसीच्या मुखेल प्रवाहा भितर खूब अंतर आशिल्लें. पूण समाजवाद आनी प्रती-साम्यवाद तशेंच प्रती-भांडवलवादाचेर सगळ्यांचें एकमत जातालें. ही गजाल तितलीच खरी आसा. नेहरू, आंबेडकार आनी पटेल अशा मुखेल कंपुंनी काँग्रेस, संविधान सभा आनी ड्रफ्टींग समिती विभागलेली.

पटेल आनी आंबेडकार हे थेट वेंचणुको घेवन राष्ट्रपती आनी

राज्याचे राज्य निवडीच्या पक्षांत आशिल्ले. भारतीय समाजांत विशमताय आसा, ती आर्थीक कारणांखातीर न्हय तर ती जातीय रचने खातीर आसा देखून अप्रत्यक्ष सरकार स्थापनेंत शोशितांचो वांटो आनी प्रतिनिधीत्वाच्या मुद्द्याचेर आंबेडकार नेहरूंच्या 'वेस्टमिनीस्टर मॉडेला'क विरोध करताले. पटेलूय सादारण ह्याच विचाराचे आशिल्ले. पूण नेहरून काँग्रेसी भितर जनमत वळयलें आनी 'वेस्टमिनीस्टर मॉडेल' आपणायलो. नेहरू आंबेडकारा इतलें शिकूं नाशिल्ले आनी पटेला इतले संघटन बांदणींत फिशाल नाशिल्ले. पूण नेहरूच्यो दोन खासियती आशिल्ल्यो- १) ते भोवशीक विचारवंत (Public Intellectual) आशिल्ले, आपल्या म्हणण्याचेर ते जनमत तयार करताले, मुद्दो लोकां मेरेन पावयताले आनी तो लडयताले. २) तांची वैश्वीक नदर आनी तत्कालीन परिस्थिती जागतिक प्रवाहांत हाडून ताचें आकलन करपाची शैली.





भारत प्रांत, जात, कात, भाशा, धर्मांत वांटिल्लो. हे विवीधतायेचेर विधायकता आनी संविदानीक बांदावळ दिवपाक जाय अशिल्ली. देखून ह्या देशाची रचना संघराज्याच्या तत्वाचेर जावपाक जाय हें नेहरूचें मत आशिल्लें. राज्याच्या विवीधतायेच्या बळाचेरूच मजबूत केन्द्र सरकार जातलें हो तांचो विश्वास आशिल्लो. हो मुद्दो विस्तारपाक ते अमेरीकन फेडेशनाचो आदार घेतले. युनायडेट स्टेट्स ऑफ अमेरीका अशीं संकल्पना आंबेडकारान मांडिल्ली, पूण ताका फारकत घेत नेहरून अमेरीकेचो संघराज्याचो मॉडिल भारतीय विवीधतायेक योग्य आसा पूण ताचो वेंचणूक आनी प्रशासनाचो मॉडिल म्हळ्यार अध्यक्षीय प्रणाली भारताक फावना अशें नेहरूचें मत आशिल्लें. अमेरीकेची चडशीं राज्यां अमेरीकी गणराज्याक वचून जुळ्ळीं पूण भारतांत आजून प्रांताची रचना जावपाची आशिल्ली आनी ताची बुनयादूय थारूंक नाशिल्ली. तशेंच अशिक्षीततताय आनी आर्थीक विशमताय आशिल्ल्या प्रांताक 'एक-केन्द्रीत' सत्ता स्थान 'पूर्ण-प्रतिनिधीत्व' दिवपाक शकना. देखून सत्तेंत व्यापक प्रतिनिधीत्व जाय. १९४५ उपरांत कितल्योच वसाहती मुक्त जाल्यो. गरीबींत लोकशायी रूजूंक शकना हे तेन्नाचे स्थापीत भांडवलवादी आनी साम्यवादी फुडारी सांगताले. कितलीं राष्ट्रां निर्माण जालीं आनी अंतरप्रवाहांतूच कोसळ्ळीं. देखीक दक्षीण अमेरीकेंत लॅटीन वसाहती आशिल्ल्यो. त्यो ब्रिटीश वसाहती आदीं स्वतंत्र जाल्यो. थंय चडशा राष्ट्रांनी अध्यक्षीय प्रणाली स्थापन केली. कांय वर्सांनी तांचे अंतरप्रवाह उफाळून आयले, उपरांत लश्कराचो हस्तक्षेप वाडलो आनी ह्यो लोकशायो अमेरीका आनी येवरोपी शक्तींच्यो प्रयोगशाळो जाल्यो. आदल्या ब्रिटीशी वसाहतींनी जाणी अध्यक्षीय प्रणाली आपणायली तातूंत देखून साबार संविधानीक उलथापलथी जाल्यो. तांचे कारण म्हळ्यार प्रादेशीक अस्थीरता आनी तांचे अल्प-प्रतिनिधीत्व. नेहरूक हो धोको पुरायपणान खबर आशिल्लो कारण भारतीय समाज एक ट्रांन्सफोर्मेशनांतल्यान वतालो तेन्ना गरज आशिल्ली सर्वसमावेशकतेची, सत्तेच्या केंद्रीयकरणाची न्हय. थंय व्यापक प्रादेशीक प्रतिनिधीत्वाची गरज आशिल्ली.

संसदीय प्रणाली रूजपाक कांय महत्वाच्यो गजाली जाय अशिल्ल्यो आनी हे व्यवस्थेचे जनक पुरायपणान नेहरू आशिल्ले.

**राष्ट्रनिर्माणाच्या नदरेंत कांय महत्वाचे नेहरूंचे हस्तक्षेप -**

१) नेहरूचो विश्वास विवीधतेन आशिल्लो पूण ते फेडरालीस्ट नाशिल्ले. तांच्या विचारान संघप्रदेश आनी भक्कम केन्द्र सरकार आशिल्लें. ह्या सिद्धांताचेर जेन्ना वाद जालो तेन्ना ते पुरायपणान आपल्या विचारांकडे खंबीर रावले. भाशावार प्रांत रचनेचे ते कट्टर पुरस्कर्ते आशिल्ले आनी ते ह्या तत्वाकडे बागवले ना. काकासायब कालेलकार कमिशन आनी उपरांत हेर समित्यो काडून ताणीं हो विचार फुडें व्हेलो. आयज जो भारत भारताचो फेडरल मॉडिल आसा तो बाकीच्या राष्ट्र निर्मणे खातीर एक बेसबरी देख. १९५२ चे पयलेच लोकसभा वेंचणूकेंत सरासरी ५०% परस उणें मतदान जालें. म्हळ्यार अर्दे जनते मेरेन लोकशाय तेन्ना पावूंकच नाशिल्ली. असल्या वेळार प्रादेशीक विविधताय नाशिल्ली संविधानाची बांदावळ नाशिल्ली जाल्यार पुराय लोकशायूच कोसळपाची भिरांत आशिल्ली. पाकिस्तानाची प्रादेशीक विशमताय आजूनय थंयचे लोकशायेचे विश्वासार्हतेचेर प्रस्नचिन्न उबें करता कारण त्या प्रादेशीकतेचें योग्य प्रतिनिधीत्व सत्तेंत जायना.

२) संसदीय प्रणाली ही 'सिवील सोसायटी'चे बुन्यादीचेर उबी जाता. ताका लागून एक धर्मनिरपेक्ष आनी समान संदीचो समाज घडोवचो पडटा. फक्त प्रशासनांत तो घडोवपाक जायना. ताका गरज पडटा संस्थांची. गुरू रवींद्रनाथ टागोर हे गांधींचे राष्ट्रनिर्माण प्रक्रियेचे आनी स्वदेशी तत्वाचे कट्टर विरोधी आशिल्ले. स्वतंत्र चळवळ सुरू आसतना ते येवरोप, जपान अशे साबार देश भोवले आनी राष्ट्रवादाच्या विरोधांत व्याख्यानां दिलीं. तांच्या व्याख्यानाची पुस्तीका जर आयचे तारखेन वाचत जाल्यार देशाचें राष्ट्रगीत बरोवपी कवीचेर मरणोपरांत देशद्रोहाचें कलम लावन खटलो लडेंव येता. तांच्या म्हणण्यां प्रमाण भारतीय स्वातंत्र्य चळवळ ही येवरोपी राष्ट्रवादाचें कुड्डें अनुकरण. तांच्या म्हणण्यां प्रमाण भारत जर राष्ट्र म्हण उबें रावतलें जाल्यार 'राष्ट्रीय समाज' बांदचो पडटलो. आनी हें काम संस्था बांदून जावपाक जाय आनी सगळ्यांत पयलें विश्वविद्यालय नेमून हें काम जावपाक जाय. तांच्या शांतीनिकेतनाची सुरवात ह्याच

विचारानी जाली. ज्या समाजाक आपल्या राजकीय हक्काची जाणींव ना तो समाज लोकशायी अपंगूळ करतलो. नेहरूक वस्तुस्थिती बेस बरी खबर आशिल्ली. देखून नेहरून ब्रिटीश आनी जर्मन विद्यापीठांचें भोवशीक मॉडेल आपणायलें. ब्रिटीश मॉडल समाजाच्या सगळ्यांच आंगाचो व्यापक अभ्यास करून गिन्यान निर्मीता, पारंपारीक गिन्यान शाखांचें आकलन, सरकाराची स्वायत्त संस्था आनी सरकारी नीती नियोजनाची समीक्षा करता. उपरांत युनिव्हर्सीटी ग्रांट कमिशन ह्या विचारान थारलें, जंय व्यापक गिन्यान निर्मिती जातली. जर्मन मॉडेल विशीश्ट आनी गिन्यानाचें केन्द्री करण, जंय सरकाराक जाय तें गिन्यान निर्मिती जातली. कला, विज्ञान आनी संशोधन जोडून विशीश्ट ज्ञानशाखा निर्मुवप - देखीक आय.आय.टी., इस्रो, संगीत नाटक अकादेमी, साहित्य अकादेमी, अश्यो खाशेल्यो संस्था ज्यो स्पेशलायज्ड समाजाखातीर गिन्यान निर्मीतलीं. आयच्या उच्च शिक्षणाची मजबूत बुन्याद नेहरून घातली. देखून तांका नेहरूवादी संस्था अशें म्हणटात. वेल्फेर स्टेट (कल्याणकारी राज्य वेवस्था) हे संकल्पनेंत उच्च शिक्षणाचो आयाम पावपाक नेहरूचें मोठें योगदान आसा.

३) नेहरू आनी आंबेडकारांमदी मुलभूत वैचारीक मतभेद आशिल्ले. पूण एक समान तत्व ते एकठांय हाड्यले आनी तें तत्व आर्थीक आशिल्लें. दोगूय समाजवादी आशिल्ले. चडसो भारत गांवानी वसतालो आनी गांवात रावपी लोकांक गरीबींतल्यान वयर काडपाक राज्याक पूर्णवेळ आनी व्यापक कार्यक्रम जाय आशिल्लो. नेहरू-आंबेडकार हे एका तत्वाचेर समान विचार करताले आनी तो विचार गांधीच्या ग्राम स्वराज्याच्या परस्पर विरोधांत आशिल्लो. फरक आशिल्लो मॅक्रो आनी मायक्रो इकोनॉमिक्साचो. गावांत शोषण फक्त आर्थीक जायना, तर तें सामाजीक शोषण जाता, मनशाच्या जल्मावेल्यान जात थारता. थंय पंथ, जात, धर्म हातूंत लोक विभागता देखून तांचे जिणेंत जलद गतीन व्यापक सुधार जाय. ग्रामीण भागांत उद्देगीकरण जाय आनी ताका लागून मोठो फरक तांचे जिणेंत पडटलो अशें नेहरू-आंबेडकाराक दिसतालें. हो मॅक्रो इकोनोमीक्स उपाय आशिल्लो. भारतीय शेत जमनीची विभागणी खूब ल्हान आसा, देखून फक्त शेती ही अर्थ व्यवस्थेक तारपाक शकना हें आंबेडकाराचें मत आशिल्लें. गांधीचो विचार परस्पर विरोधी आशिल्लो. समाजाची आदर्श मुल्यां बदलून समाज स्वावलंबी करप आनी शेतीक प्राधान्य दिवप. हो मायक्रो इकोनोमीक्स उपाय आशिल्लो. हो गांधीचो फक्त आदर्शवादी रोमांटीक विचार नाशिल्लो. ब्रिटीश सरकारान आपले सोयी खातीर शहरीकरणांची सुरवात केल्ली, ताका विरोध म्हण गांधीचो हो वास्तववादी आनी प्रतिकारवादी उपाय आशिल्लो. आयच्या जागतिकीकरणाच्या युगांत गांधीचो विचार आयज खारो थारपाक लागला. म्हण तेन्ना गांधीन अस्पृश्यता निर्मुलनाचो कार्यक्रम आंखलो. पूण 'सिवील सोसायटी'चे निर्मणेंत मध्यम वर्ग म्हत्वाचो आसता. नेहरूची संसदीय प्रणाली चलतली जाल्यार ती कळाची गरज आशिल्ली. स्वतंत्र भारतांत जो मीडल क्लास उबो जालो ताची मुळवण नेहरून घातिल्ली. आयज तोच मिडल क्लास नेहरू कितलो नालायक आशिल्लो तें वॉट्सॲप फॉरवर्ड मेसेजीनी शिकता.

गांधी, नेहरू, पटेल आनी आंबेडकार हे राष्ट्रनिर्मणेचें खांबे आशिल्ले.



गांधी भारतांत येवच्या आदींय स्वातंत्र चळवळ चलताली पूण ती कांय शिक्षीत घटकां पुरती मर्यादीत आशिल्ली. गांधीन स्वतंत्र्याचो अर्थ सामान्याक पटोवन दिलो. देड मिटराची खादी आंगाक गुटलावन हो म्हातारो जर देशभर भोवूं नाशिल्लो जाल्यार आयज मेरेन सामान्य गरीब दुबळो स्वतंत्र देशांत एक 'सब्जेक्ट' म्हण उरतलो आशिल्लो, पूर्ण नागरीक न्हय. आंबेडकार जे विव्दत्तेचे धनी आशिल्ले, ताका लागून ती व्यक्ती एक संस्थाच आशिल्ली. जगाच्या खंयच्या देशांत संविधानाक एक अती शोषित वर्ग पुजना, तो भारतीय संविधानाक घेवन पुजता आनी भजता. खंयच्या देशांत संविधानाक धरून कवीता, गीतां आनी जुलूस काडीना, फक्त भारतांत जाता. ही जागृताय आनी आत्मीयता भारतीय समाजांत रूजोवपी आंबेडकार आशिल्ले. पटेल नाशिल्ले जाल्यार आयज भारताच्या नकाशाचो आकार वेगळोच आसतलो आशिल्लो. पटेलाची संघटनेचेर पकड मजबूत आशिल्ली, प्रशासनांत ते चोख आशिल्ले. प्रशासकीय सेवा, इंटेलीजन्स आनी महसूलाचे आंखणेचेर जसो भारता सारको विराट देश उबो जालो ताचें श्रेय पटेलाक वता. हे चारूय जरीय राष्ट्नायक आशिल्ले तरी तांचे एका मेकांकडे गंभीर मतभेद आशिल्ले आनी ह्या मतभेदांतल्यानूच भारत उबो आसा. जांकां स्वाताचीं मतां आसतात तांचेच मतभेद आसपाक शकता. एक केन्द्री विचारांनी जीं राष्ट्रां उबीं जालीं ती कालांतरांत कोंसळ्ळीं. राष्ट्र ही एका विचाराची मक्तेदारी जावपाक शकना. एक नसल - एक राष्ट्र, एक भाशा - एक राष्ट्र हो येवरोपी राष्ट्रवाद. भारतीय राष्ट्रवाद हो विवीध भाशा, विवीध प्रांत, विवीध संस्कृती पूण एक राष्ट्र ह्या तत्वाचेर उबो आसा. नेहरू, आंबेडकार, गांधी, पटेल तशेंच सुभाषचंद्र बोस जरूय तांच्या मतानी आनी पद्दतींत वेगळे आशिल्ले जाल्यारूय ते धर्मनिरपेक्षता आनी समानतेच्या तत्वाचेर एक विचाराचे आशिल्ले. आनी हेंच तत्व आयज समाजांत पटोवप कठीण जालां. आयज तत्कालीन मतभेद घेवन नवे मतप्रवाह तयार करपाचो यत्न पद्दतशीर पणान जावपाक लागला. ताचें कारण म्हळ्यार समाजाची आर्थीक रचना बदलल्या.

नेहरूचो सगळ्यांत मुलभुत आर्थीक विचार म्हळ्यार आर्थीक संसादना राज्याच्या अधिकारान आनी उत्पादनांत दवरप जाका लागून भोवशीक उत्पादन आनी भोवशीक रोजगार राज्याच्या हातांत उरतलो. आयज भोवशीक कारखान्यांचें खाजगीकरण जालें, थंय बाजारवादी शक्ती आयल्यो, नवो मध्यम वर्ग तयार जालो, सरकारी संस्थांची रचना बदल्ली आनी ही पोकळी आयज दक्षीणपंथी शक्तींनी भरल्या. फाटीं जपानांत जी-२० परिशद जाली. जगाच्यो प्रगतशील आनी प्रभावी ह्यो आर्थीक वेवस्था. तातूंत कॅनडा आनी दक्षीण आफ्रीका सोडल्यार बाकीच्या १८ देशांनी पुरायपणांन दक्षीणपंथी राजकीय पक्षांच्यो सत्ता आसा. हे वेवस्थेक पर्याय जाय. पंडीत नेहरू तत्कालीन परिस्थितीचो संबध जागतीक प्रवाहाकडे जोडल्ले. भारतीय संघराज्य, धर्माचे स्वातंत्र्य, विद्यापीठ ह्यो राष्ट्रनिर्माणेच्यो संकल्पना ताणीं जागतीक प्रवाह वळखून तयार केल्यो. स्वतंत्र जाल्ल्या वसाहतींक घेवन ताणी Non Aligned Movementची संकल्पनां मांडिल्ली. हीं नवी राष्ट्रां प्रगतीच्या पथार रूळचीं आनी दक्षीण अमेरीके भशेन अमेरीकेचें पोरसूं वा पूर्व येरोपा भशेन सोव्हीएटाची प्रयोगशाळा जावची न्हय हो तांचो यत्न आशिल्लो. जागतीक गटाच्या पलतडी ताची आर्थीक फलश्रुती १९७४ वर्सा ह्याच राष्ट्रांनी संयुक्त राष्ट्राचे परिशदेंत *Declaration for the Establishment of a New International Economic Order* ठराव पास केलो. जातूंत विकास सादील्ल्या राष्ट्रांक विकसनशील राष्ट्रांक विकासांत योग्य जागो दिवचो पडलो आनी जागतीक आर्थीक संस्थानी विकासशील देशांची दावेदारी वाडली. देखून २० व्या शेकड्यांतल्या नामनेच्या जागतीक रणनीतीकारां भीतर नेहरूंची गणना जाता. जाणीं देशाच्या नागरीकांचो संबंध जागतीक संघर्शाकडे जोडलो आनी देशाचें हीत हेर विकसनशील राष्ट्रांकडे जोडून नवी शक्ती केन्द्रां निर्मीलीं.

नेहरू हे गांधी इतले मास लीडर नाशिल्ले, पटेला इतले संघटन कौशल्य आशिल्ले न्हय, आंबेडकारा इतले विव्दान नाशिल्ले. पूण नेहरू हे मास पॉलीटीक्स करपी भोवशीक विचारवंत आशिल्ले. ताणी खरेल्या लोकांक घेवन मतप्रवाह तयार केलो. ताणीं मास पॉलीटीक्स गंभीरपणान आपणायलें आनी सादलें. आयज जे पद्दतीन दक्षीण पंथ फाफसला तातूंत विचारवंत अल्पमतांत आयल्या, सेक्युलरीजम हो ट्रेल जाला आनी ऑर्डर केल्लो पीझा घरा पावचे पयलीं संसदेंत बीलां पास जावपाक लागल्यात. आनी ह्या देशांत हाका आजून मेरेन मास पोलीटीक्साचो पर्याय तयार जावंक ना आनी सद्याच्या राजकीय पक्षांची तशी तयारीय दिसना.

**संदर्भ:**

RIEDEL, BRUCE. *JFK's Forgotten Crisis: Tibet, the CIA, and Sino-Indian War*. Brookings Institution Press, 2015.

Tagore, Rabindranath. Nationalism. Rupa, New Delhi, 1994.

Guha, Ramachandra. India After Gandhi The History of the Worlds Largest Democracy. Picador, New Delhi, 2011.

Lankina, Tomila, and Lullit Getachew. "Mission or Empire, Word or Sword? The Human Capital Legacy in Postcolonial Democratic Development." *American Journal of Political Science*, vol. 56, no. 2, 2012, pp. 465–483. *JSTOR*, www.jstor.org/stable/23187112.

Bernhard, Michael, et al. "The Legacy of Western Overseas Colonialism on Democratic Survival." *International Studies Quarterly*, vol. 48, no. 1, 2004, pp. 225–250. *JSTOR*, www.jstor.org/stable/3693570.

VARSHNEY, ASHUTOSH. "Asian Democracy through an Indian Prism." *The Journal of Asian Studies*, vol. 74, no. 4, 2015, pp. 917–926., www.jstor.org/stable/24738564.

https://www.bbc.com/hindi/india-43754302. Accessed on 08/25/2019.

https://www.forwardpress.in/2019/04/ambedkar-and-nehru-on-caste-and-economy/. Accessed on 08/25/2019.

https://theprint.in/opinion/indias-constitution-makers-nehru-patel-ambedkar-were-divided-on-parliamentary-system/182994/. Accessed on 08/25/2019.

https://www.epw.in/engage/article/gandhi-nehru-and-ambedkar-three-formulations-real. Accessed on 08/25/2019.

संपर्क : 7507388596

# शणै गोंयबाब कथामाळ सर्तीचो वाडत आशिल्लो रूख

मुकेश थळी

गितां आनी काणयो. भुरगीं हातूंत रमतात. गितां आनी काणयो ह्या दोन साहित्य प्रकारांची वळख भुरग्यांक पयलीं घड्‌टा. भुरग्यांचें त्या त्या पिराय गटांत आपलें अशें एक मानसशास्त्र आनी भावविश्व आसता. ताका अनुसरून हीं गितां आनी काणयो आसूंक जाय.



भुरगेपणांत आमी आल्लयो आयकताली. हड्वोताल्ल बेबो, बाबू आमगेलो आनी हेर गितां आयकून आमची भावनीक पोसवण जाली. जाणटेले काणयो सांगताले. काका सांगतालो. जाणटेली सुरतमावशी आडकित्त्यान सुपारी फोडीत काणी सांगताली. मागीर आमी खबरांपत्रांनी भुरग्यांच्या दालनांतल्यो काणयो वाचूंक लागलीं. काणयांच्या विशयांक अंत ना. रीत, निती, देख आनी संदेश आसल्यार काणी अदीक प्रभावी. काणी सांगपाची म्हळ्यार कथन करपाचो आपलो असो एक इश्येत आसता. काणी रुचीन सांगची आसता. ती एक कला.

'शणै गोंयबाबान म्हजी बा खंय गेली' आनी हेर जायत्यो काणयो बरयल्यो. दिसतालें, आयच्या ह्या समाजीक माध्यमांच्या आक्रमणांत काणयो आनी काणयो सांगपाची कला व्हांवन वतली. ना. तशें घडलेंच ना. कोंकणी भाशा मंडळान एक उपक्रम मुखार हाडलो. शणै गोंयबाब कथामाळ सर्त. कुकुल्यो बियो घाल्ल्यो कुकुल्यां खातीर. ताचो आयज एक मोटो रूख आनी रुखांचें शेत विस्तारत आसा हें पळोवन कोणाय कोंकणी मोग्याचें काळीज उचंबळून येवपाचेंच. अंदू हे कथामाळेक अठरा वर्सां जालीं. गुणवत्तेचे नदरेन तातूंत उंचाय, खोलाय, लांबाय येवपाक लागल्या. भुरगीं आनी भुरग्यांची मानसीक भूक मतींत दवरून कोंकणी भाशा मंडळ वावर करीत आसा. तांतलोच शणै गोंयबाब कथामाळ हो एक मुखेल उपक्रम. अंदू मुळावी फेरी राज्यांतल्या केंद्रांनी जाली. ही सर्त पयली ते चवथी, पांचवी ते सातवी आनी आठवी ते धावी अश्या तीन गटांत घडोवन हाड्यात.

अंदू सर्तकांचो आंकडो विक्रमी पांवड्यार वाडलो. हाचे वयल्यान ह्या उपक्रमाची तांक आनी लोकप्रियता कळटा. आयोजकांनी पालकांची, शिक्षकांची आनी विद्यार्थ्यांची विश्वासार्हता मेळयल्या हें सिध्द जाता. हे सर्तींत दर वर्सा शालेय पांवड्याचेर सुमार पांच हजारां वयर भुरगीं वांटेकार जातात. केंद्रीय पांवड्याचेर हजार भर भुरगीं वांटो घेतात. ही निखटी सर्त न्हय जाल्यार ती एक चळवळ. कोंकणी भाशेचे सेवेची, कला, संस्कृती हांचो सांबाळ करपाची. शणै गोंयबाब हें नांव गोंय भरच्या विद्यार्थ्यां मदीं पावोवपाची.

एकंदर वाचन संस्कृती वाडची आनी चडांत चड भुरग्यांनी आनी तांच्या सांगातान पालकांनी आनी शिक्षकांनी काणयो वाचच्यो हो हे सर्ती फाटलो हेत. कथामाळेंत वांटेकार जाल्ल्या भुरग्यांक कालांतरान कोंकणी भाशा मंडळ वेगळ्या वेगळ्या पांवड्यांचेर संद मेळोवन दिता. तांकां साबार कामांनी आसपावन घेतात. जी भुरगीं गायतात, चित्रां काड्टात, काणयो कवनुलां घडयतात तांकां संद दिवन तांच्या







*काणकोण केंद्रांत कथाकथन करताना शालेय विद्यार्थिनी तर सत्तरी केंद्रांत कथाकथन करताना विद्यार्थी.*

कलागुणांची पोसवण करपाक आदार करता.

शालेय पांवड्यार सर्त घेवन दरेका शाळेंतल्यान दोन सर्तकांची निवड केंद्रीय पांवड्या वेल्या सर्ती खातीर जाता. शाळेंतूच कितलींशींच भुरगीं वांटेकार जातात. ते खातीर पालक, शिक्षक काणयो सोदप, पुस्तकां चाळप हे प्रक्रियेंत गुल्ल उरतात. निमणी फेरी जायसर दोनेक म्हयनो हो गड्गड आनी भारीत वातावरण शाळां शाळांनी उरता. केंद्रीय पांवड्यार परिक्षकांनी वेंचिल्ल्या सर्तकांची निवड जिल्लो पांवड्या वेल्या सर्ती खातीर जाता. उपरांत राज्य पांवड्याची सर्त जाता. जिल्लो आनी राज्य पातळे वेली सर्त एकाच दिसा मडगांवच्या कोंकणी भाशा मंडळांत जाता.

केंद्रीय पांवड्याचेर सर्त घेतना त्या त्या वाठारांतल्या संस्थांचो पालव कोंकणी भाशा मंडळ घेता. ही सर्त यशस्वीपणान आयोजीत करूंक गोंयच्या केंद्रांचेर सुमार अडेचशें कार्यकर्ते वावुरतात. कथामाळ सर्तीची तयारी जून म्हयन्यांतल्यानच सुरू जाता. शाळांनी पत्रां, सर्तीचे नेम आनी अर्ज धाड्यत. गोंयच्या केंद्रां खातीर कोंकणी भाशा मंड्ळाचे संयोजक आसात. सरकारी, सरकारी अनुदानीत आनी खाजगी शाळांक पत्रां पावोवपाचें काम हे संयोजक करतात. तशेंच जाता तितल्या शाळांक स्वता भेट दिवन तांकां सर्तींत भाग घेवपा खातीर उर्बा दितात. हीं पत्रां शाळांनी पावोवपाक शिक्षण खातें तशेंच त्या त्या तालुक्यांतले ए.डी.ई.आय. खूब सहकार्य दिता.

कोंकणी भाशा मंडळ कथामाळ सर्ती विशीं म्हायती दिवंक वेगळ्यो वेगळ्यो कार्यशाळा आयोजीत करता. दर वर्सा शिक्षकां खातीर कार्यशाळा जाताली. अंदू शिक्षक तशेंच पालकां खातीर कार्यशाळा आयोजीत केल्ली. सुदारणा ती ही. सर्ती फाटलो उद्देश तशेंच सर्तीचे निकश कार्यशाळेंत सांगतात. काणी सांगतना भुरग्यान ती काणी कशी सांगची, सादरीकरण करतना ताची नाट्यछ्टा जावची न्ही आनी हेर सुचोवण्यो ह्या वेळार करतात. शिक्षक वा पालकांचे कसलेय प्रस्न आसल्यार तांचें निरसन जाणकार करतात. कथेची निवड, हावभाव, समरसताय, आवाजांतलो चडउतार, सादरीकरण हे निकश कथाकथनांत परिक्षणा खातीर जमेक धरतात.

कथामाळ सर्त केंद्रीय पांवड्यार घेवपाक सुमार १५० परिक्षक लागतात. सर्तीचें परिक्षण करपाक कोंकणी भाशा मंड्ळा कडेन जोडिल्ल्या युवा कार्यकर्त्यांक संद दितात. ह्या परिक्षकां खातीर कोंकणी भाशा मंडळ दर वर्सा कार्यशाळा आयोजीत करता. परिक्षकांक खास सुचोवण्यो दितात. खंयच्याच भुरग्याचेर अन्याय जावचो ना हाची जतनाय कोंकणी भाशा मंडळ घेता.

आनीक एक गजाल हांगा सांगन दिसता. कथामाळ सर्तींच्यो फांटभुंयेर केंद्रांनी कोंकणी भाशा मंडळ पुस्तकांचें प्रदर्शन आयोजीत करता. भुरग्यांक, शिक्षकांक आनी पालकांक काणयांचीं पुस्तकां, व्यक्तिचित्रणां, सिडी आनी हेर बाल साहित्य मेळचें ह्या उद्देशान हें प्रदर्शन दवरतात. जिल्लो आनी राज्य पांवड्यार जावपी सर्ती वेळारय पुस्तकांचें प्रदर्शन दवरतात. दर वर्सा पुस्तकांचो खप वाडत आसा. हो पुस्तकांचोय खप वाडत आसा ताका बरो प्रतिसाद मेळ्टा, अशें कोंकणी भाशा मंड्ळाचे अध्यक्ष चेतन आचार्य हांणी सांगलें.

(पान २८ चेर)



# आपलीं कोण... परकीं कोण!

अरुण काकोडकार

"Everything is fair in love and war" - हें केन्नाय आमी उलोवन वतात तेन्ना आमच्या मनांतली उचंबळाय आमचे आमकां समजता. आमचें काम सादपा खातीर आमी आड वळणान वतात ही भावना आमी लिपोवंक शकनात. आयुश्यांत वेगळ्या वेगळ्या मळार वावुरतना खूब फावटीं कांय गजालींचेर आडनदर केले बगर आमचो हेतू साध्य जायना. घडये ताकाच लागून हें वाक्य आमच्या तोंडांत घोळटा. जाणें कोणें हो वाक्प्रचार मांडला ताणें वेगळ्या अर्थान तो मांडला आसुंये. हरशीं मोग आनी झूज हे दोन विरुद्ध शद्ब. ते समानार्थी जावंक शकनात.

मोगांत भावना आसता. एकामेकां विशीं ओड आसता. मोग दोन जिवां मदीं नातें जोडटा - झूज भावनाशुन्य आसता. झूजांत स्पर्धा, प्रतिस्पर्धा आसता. झूजा मळार केल्ली दुस्मानाचीं हत्या प्रशंसनीय आसता. झुजांत जैत ही मोख आसता. जैत आनी हार हे झुंजाचें घटक आसात.

कुरुक्षेत्रांतल्या रंणागणार श्रीकृष्ण जेन्ना युधिश्ठीराक सांगता, मोगांत आनी झुजात सगळें क्षम्य आसा तेन्ना तो सल्लो युधिश्ठीराक मानवना. पुणून ताका तो आयकचो पडटा. कारण तेदे वेळार गुरू द्रोणाचार्याक कसो हारोवप हो कठीण प्रस्न पांडवां मुखार आसता. तेन्ना श्रीकृष्ण युधिश्ठीराक समजायता, "गुरू द्रोणाचार्याक हारोवपाचो एक मार्ग आसा. पुणून ते खातीर तुज्या सहकार्याची गरज आसा. तूं धर्मपुत्र. सगळ्या जगाक खबर आसा. तूं केन्नाच फट उलयना. गुरू द्रोणाचार्याक ताचो पूत अश्वत्थामा जीव की प्राण! आमचे लागीं अश्वत्थामा नांवाचो हती आसा. ताका जिवेशीं मारुंया आनी वदंता घालुंया अश्वत्थामा मेलो. गुरून तुका विचारल्यार तूं तशेंच सांग."

"पुणून हांव, अश्वत्थामाच्या मरणाची फट खबर कशी सांगूं?"

"फट कित्याक? तो हतीय बी अश्वत्थामा. तुका विचारल्यार तूं सांग अश्वत्थामा मेलो, नरो वा कुंजरोवा! पळय मोगांत आनी झुजांत सगळें क्षम्य आसा."

...आनी तशेंच घडटा. अश्वत्थामा मेलो ही खबर आयकना फुडें द्रोणाचार्य रथांतल्यान देंवता आनी सरळ युधिश्ठीरा मुखार येवन त्या खबरेचें खरेंपण विचारता. युधिश्ठीर तींच उतरां उलयता. द्रोणाचार्य पयलीं दोन उतरां आयकता. धोल-नगाराच्या बोवाळांत फुडलीं उतरां ताच्या कानार पडनात. काचाबूल जावन द्रोणाचार्य शस्त्रां सकयल दवरता आनी दिमयो मोडून कांय खीण तसोच रावता. ही संद सादून पांडवाचो सेनापती द्रुपद पूत घृश्टध्युम्न ताका जिवेशीं मारता.

महाभारतांतलो हो प्रसंग खूब कितें सांगून वता. झुजांत जावं राजकारणांत कपटनिती वापरिल्ल्याच्यो खूब देखीं आसात. जैत साध्य करपा खातीर अनेक डावपेच तर्क-वितर्क लडोवचे पडटात. मोगांत अशे डावपेंच नासतात. मोग पवित्र आसता. देखून मोग आनी झूज एके ओळींत बसूंक शकनात.

तुळा करपाची जाल्यार झूज आनी खेळ हांची जावंक शकता. कारण झुजाची आनी खेळाची मोख समा आसता. झुजांत जशे दुस्मान आसतात तशे खेळांत प्रतिस्पर्धी आसतात. दोगांयचो उद्देश जिखपाचो आसता. निमाणें एकलो जिखता, दुसरो हारता हें ताचें समीकरण.

बुद्धीबळाच्या खेळांत राजा-वजीरा पसून प्यादां मेरेन मनशांच आसतात. आनी हती, घोडो, उंट अशीं जनावरां आसतात. राजाचें बळगें सगळ्यांत व्हडलें पूण ल्हान-सान प्यादी जावं जनावरां लेगीत राजाक शह दिवन अडचणींत हाडटात. बुद्धीबळाचो खेळ जाणें कोणें रचला, ताणें झुजांचे फाटभुंयेर तो घडयला.

महाभारतांतल्या झुजाची सुरवात कौरव-पांडवां मदल्या ध्युताच्या खेळांत जाली आनी तातूंतल्यान भगवद्गीता जल्माक आयली. कलींग

झुजा उपरांत सम्राट अशोकाचो भांगराकाळ संपुश्टात आयलो आनी बौद्ध धर्म वाडीक लागलो. दुसऱ्या संवसारीक झुजा उपरांत सहिश्णुताय, तत्ववाद आनी धर्मनिरपेक्षताय सारक्या प्रवृत्तींची उदरगत जाली.

इतिहासाचीं पानां चाळटना असंख्य रगताळीं पानां दोळ्यां मुखार फडफडूंक लागतात. राम-रावण, कौरव-पांडव हांच्या झुजांत जाल्ल्या मनीस सांवारां साकून आयच्या काळांतल्या ल्हान-व्हड झुजां मेरेन आनी तातूंत जाल्ल्या रक्तखेवा मेरेन कितलोसोच इतिहास दोळ्या मुखार स्पश्ट दिसूंक लागता. अमेरिकन क्रांती, फ्रेंच क्रांती, रशियन क्रांती, हिंदुस्थानाचो स्वातंत्र्य संघर्श... कितें कितें घडलें ह्या संवसारांत! एक वेगळीच उत्सुकताय, उत्कंठताय इतिहास वाचतना मनांत जागी जाता. झुजां-लडायो, कट-कारस्थानां, बॉम्बस्फोट, जाळपोळ, लुटालूट, मनीस-हत्या, उध्वस्त जाल्ले संवसार, अनाथ जाल्लीं भुरगीं-बाळां, घरां-दारांचो, गांवां-शारांचो विध्वंस... मानवी संस्कृतायेन जें जें बरें बरें सोबीत-सुंदर निर्माण केलें ताचो नाश म्हणल्यार झुजांचो इतिहास.

शांता शेळके हे लेखिकेन तिच्या एका लेखांत बिल ड्यूरंट ह्या विचारवंता विशीं बरयलां. मनीस-जिणे विशीं बरयतना हो विचारवंत म्हणटा, मानवी संस्कृताय ही सतत व्हांवतल्या न्हंये वरी आसा. हे न्हंयेक दोन तडी आसात. एके तडीर मनशां आपले भितर झगडटात, चोरयो, खून, जाळपोळ करतात. त्या रगतान न्हंय तांबडीगुंज जावन न्हांवत वता. दुसरे तडीर मनशां एकामेकांचेर मोग करतात, काजार जातात, भुरगीं जल्माक घालतात, तांकां वाडयतात, हांसतात, खेळटात. मानवी संस्कृतायेचो इतिहास म्हणल्यार जिविताचो सातत्यान व्हांवता तो अखंड, अतूट असो वझरो. झुजां, लुटालूट, हत्या, जाळपोळ हाका लागून तो तांबडोगुंज जाता. पुणून सदांच तो तसो उरना. इतलीं झगडीं, मारामारी जावन लेगीत मनशां शांतपणान आपली जीण जगत आसतात. मनशांची जियेवपाची इत्सा इतली प्रबळ आसा देखून अशीं अनेक झुजां, रक्तखेव जावन लेगीत मनशां मरणाच्या माथ्यार पांय दवरून झेतान उबीं आसतात.

जो मेरेन झूज चलता तो मेरेन रणांगण भरिल्लें आसता. खेळ सोंप मेरेन स्टेडियम गजबजिल्लें उरता. खेळ सोंपलो तसो स्टेडियम ओस पडटा. सपनां सोंपलीं की सत्य तोपपाक लागता. मेणवात पेटून सोंपली तशें पोंदा मेण उरता. जिविताची वास्तविकताय अशी आसा.

बुद्धीबळाचो खेळ सोंपलो तसो खिणां आदीं ज्यो एकमेकांच्यो कट्टर दुस्मान आशिल्ल्यो त्यो धव्यो-काळ्यो घुलो एकाच खोक्यांत कशाय कश्यो पडून उरतात. परतून खेळ सुरू जाय मेरेन खेळणीं इतलेंच तांचें मोल. राजा कोण, वजीर कोण, इश्ट कोण, दुस्मान कोण... सगळें एके समान...

आपलीं कोण आनी परकीं कोण? आयच्या काळांत हें समजप कठीण जालां. कुरुक्षेत्राचे रणभूंयेर अर्जुनाक पडिल्लो प्रस्न... आयज आमची अवस्था तशी जाल्या. वर्सां-वर्सां उब्यो आशिल्ल्या वणटींचो चुनो घट उरता... नात्यांची ओलसाण मात रोखडीच सुकता. आमी आयज अश्या काळांत जियेतात. एकाच शारांत रावपी भावडां वर्सां-वर्सां एकमेकांगेर पावनात पुणून पयसुल्ले इश्ट-सोयरे शारांत आयिल्ले फावटीं मेळून वतात... फॉरेनांत राबितो करून राविल्ल्या पुताक वेवसायाच्या व्यापांत वर्सां वर्सां आवय-बापायक मेळूंक येवपाक वेळ मेळना. पयसुल्लीं कोणूय सोयरीं आंतऱ्यापयऱ्यान मुद्दाम येवन तांकां मेळून वतात... साद्या साद्या कारणांक लागून सख्खीं नातीं कोर्टांत झगडटात. पूण अचकीत खंयूय वळख जाल्लीं परकीं कोणूय ई-मेलान खबर खुशालकाय पावयतात... शाळा-कॉलेजांत एकाच वर्गांत एकाच बांकार बसून शिकिल्ले इश्ट फुडें संपर्कांत उरनात. थोडे कोणूय लागसारपण दवरतात... केन्ना आपलीं परकीं जातात... केन्ना परकीं आपलीं...

वेव्हार-वेवसायाच्या चक्रांत कंवळी पिराय आनी जुवानपण इतलें धवळून वता तेन्ना फाटी-फुडें पळोवपाची शिटुकसाण उरना. अधिकाराची-मोटेपणाची गुरमी आसता. निवृत्तीची एकसुरी वाट पांया पोंदा येता तेन्ना दिसूंक लागता, आपलीं लागींचीं मनशां पयस गेल्लीं आसतात. एके फावट तुटिल्ले नातें जुळोवप कठीण जाता. ते जितें करपाची धिटाय उणी पडटा... हे उतार वय तशें आसता. आयुश्याच्या निवांत खिणांत काळजांतले बरे-वायट अणभव कोणाकय सांगीन दिसतात. पुणून ते आयकतलो कोण ही खंत आसता. आपली रडकथा जगार घालपाक मन कांचवेता. आपलीच तोखणाय दुसऱ्याक सांगल्यार हांशें जावपाची भिरांत आसता. तातूंतय कोणय अशे हमदर्दी मेळटात जे खीण भर आमचें सूख-दुःख समजून घेतात. तोंड भर उलयतात, हांसतात.

एक शायरी याद जाताः

माना के जिंदगी को न गुलजार कर सके हम,<br>
कुछ खार तो कम कर गये जिधर से गुजरे हम॥

आमच्या आयुश्याचें रुपांतर, आमी सोबीत अशे बागेंत करूंक शकलेनात. पुणून ते वाटे वयल्यान चलतना थंयचे कांटे लोकांक तोंपत म्हण आमी ते कुशीन काडून वडयले, हेंच खूब जालें.

...हो संवसार खूब विचित्र आसा. मनशांच्या तरांतरांच्या विकारांनी, लोभ, राग, दुस्वास, खोस, मोग, काकुळट हांणी भरिल्लो हो संवसार आमचें भोंवतणीं घुंवत आसता. हांगा सगळेंच कितें कोडू नासता. गोडय आसता.

आमचें काळीज एकादरी अलिबाबाची गुहा... तातूंत कांय हिरे-माणकां लिपिल्लीं आसात. गुहा उगडपाचो पासवर्ड दरेकल्याचो वेगळो. आपलो पासवर्ड वापरून काळजांत लिपिल्लें बरेपणाचें धन चार जाणांक वांटल्यार फुकट वच्चें ना.... फाटल्यान केन्नाय कोणूय याद काडटलो.

लक्षांत दवरात, घरा तुमच्या कोणूय तरी दोळे भरून तुमची वाट पळयत आसता. तुमकां भुके पोटार हुनहुनीत दोन घांस वाडपाक रावता. एकादरे काळखे रातीं कांयच दिसना तेन्ना दिवो घेवन तुमचे फाटल्यान उबी रावता... हीं मनशां कोण परकी न्हय, आपलींच! भायर उकत्या पांयांनी चलतना पांयांक फातर तोपल्यार हाय-हूय जाता. सरभोंवतणीं धवीं-तांबडीं परमळीत फुलां पळोवन मन धादोस जाता. फातरां वरी तोपत रावपाचें काय फुलां वरी फुलत रावपाचें हें तुमी थारावपाचें...

संपर्कः 9822588852



# तय... चवथ... पंचमीचें म्हत्व

नम्रता सालेलकार

आमचे भारतीय संस्कृतींत, ल्हाना पासून व्हडां मेरेन करपाच्यो जायत्यो परबो आसात... तातूंतलीच 'हरतालिका' म्हणजेच 'तय'. ही परब खाशेली कुमारीकां खातीरची... सवायशीणींय ही परब मनयतात. चवथीच्या आदल्या दिसा म्हणल्यार भाद्रपद शुद्ध तृतीयेक हें व्रत करतात... हें व्रत भक्तीभावार्थान केल्यार चलयांक मनाजोगतो सांगाती, अखंड सौभाग्य, घरच्यांक बरी भलायकी तशेंच संतत-संपत्ती प्राप्त जाता. हरतालिका हें पार्वतीचें नांव. पार्वतीन आपले इत्साशक्तीन, खर तपश्चर्येन मनाजोगतो सांगाती मेळयलो. हें करतना तिका 'आली' नांवाची इश्टीणेन मजत केली. ताका लागून हर हो घोव मेळ्ळो म्हण पार्वतीचें नांव हरतालिका. ह्या व्रताची काणी चलयां खातीर प्रेरणा दिवपी अशी आसा. हिमालय पर्वतची चली गौरी ही पर्वताची चली म्हण तिका पार्वतीय म्हणटात. तिका श्रीविश्णूदेवाची मागणी घेवन नारदमुनी हिमालया कडेन आयिल्ले. हे बरे गजालीन हिमालय खोशी जालो, ताणें ही गजाल गौरीक सांगली. पूण पार्वती तर मनांतल्यान भोळ्या सांबाक, म्हादेवाक वरून बशिल्ली. सदाशिवाकच तिणें आपलो घोव मानिल्लो. बापायन श्रीविश्णूदेवा कडेन लग्न थारायलां हे कळटकच ती आली हे इश्टीणेक घेवन रानांत तपश्चर्येक गेली. शिवाचे अखंड चिंतन करून, उपास करून म्हादेवाक प्रसन्न करून घेतलें. ताचे कडल्यान आपलो घोव जावपाचो वर मागून घेतलो. शिवान तथास्तू म्हणलें. ही गजाल कळटकच हिमालयान म्हादेवांक आपोवणें धाडलें. तांचो लग्नसुवाळो घडोवन हाडलो. अशे तरेन पार्वतेन मोगान आनी मोठ्या निश्ठेन शंकराक मेळयलो म्हण 'पार्वतीपतेय' अशेंय म्हणूंक लागले. पार्वतेन म्हादेवाच्या गुणांचेर मोग केलो. म्हादेव हो भोळो पूण कलागुणी, कर्तुपवान, तपस्वी, शक्तीमान आनी दयाळू.

हालींच्या चलयांनी आनी तांच्या आवय-बापायन हे परबेंतल्यान शिकपा सारकें खूब आसा. फकत पयसो आनी मोठेपणाचेर वचून लग्नाचो निर्णय घेवचो न्हय तर चल्याच्या कर्तुपाचेर, गुणांचेर भरवंसो दवरचो. ऐश्वर्याची खात्री दिवूंक मेळना पूण सद्गुणांची खात्री दिवूंक मेळटाच. होच बरो विचार हे परबेंतल्यान मेळटा.

भाद्रपद शुद्ध चतुर्थी म्हणल्यारच गणेश चतुर्थी. ह्या दिसा चवथीची परब सुरू जाता. श्री गणपतीची मूर्त वाजत गाजयत हाडून घराघरांत ताची स्थापना करतात. घरांत मनयतले हे परबेक लोकमान्य टिळकान १८९३ सालांत सार्वजनीक रूप दिलें. चवथ हो गणपतीचो जल्मदीस. एक फावट पार्वती न्हावपाक वच्चे पयलीं आंगाक चंदन लायताली. चंदन लायतां-लायतां तिणे त्या चंदनाचो गुळो केलो आनी आपल्या मनाजोगतो आकार दिवन एक कुकूलें बाळक तयार केलें. तिणें ताचे भितर जीव घातलो आनी तांका सांगलें आपूण न्हांवपाक वतां कोणाकच भितर सोडूंनाका. तें बाळक दारार राखूंक बसलें. थोड्याच वेळान थंय म्हादेव आयलो पूण तें भुरगें ताका कशेंच भितर येवंक दिना. तांचे भितर झूज सुरू जालें. आनी म्हादेवान ताची तकली धडा वेगळी केली. ही गजाल कळटकच पार्वती दुखेस्त आनी रागान तांबडी जाली. तिच्या रागा मुखार म्हादेवाक उतरांच फुटना जालीं. ताणें आपल्या गणांक फर्मायले, आतांच्या आत्तां धर्तरेर वचात आनी जो कोण पयलो प्राणी उत्तरेक तोंड करून न्हिदिल्लो मेळटा ताची तकली घेवन येयात. गणांक हतयाचें मुखामळ मेळ्ळें. देवांनी तें त्या बाळकाच्या धडार जोडलें. आनी हेंच बाळक गणपती गजमुख जालो. माता पार्वतीन ताका खोशयेन आपले वेंगेंत घेतलो आनी सगल्या देवां भितर गणेश श्रेश्ट जावचो असो आशिर्वाद घेतलो. म्हादेवान ताका आपलो पूत मानलो आनी म्हणले, ''हे गिरीजानंदन, विघ्नाचो

विनाश करपी अशें तुजें नांव सगल्याक जातलें... सगले तुका पयलीं पुजतले... तूं म्हज्या सगल्या गणांचो मुखेली जातलो... तुज्या जल्मदिसाक हें व्रत करतल्यांच्या सगल्या विघ्नाचो नाश जातलो... ताका सगली सिद्धी बुद्धी मेळटली... तांच्या मनांतल्यो इत्सा पुराय जातल्यो...''

भाद्रपद म्हयन्याचे शुद्ध चतुर्थी हे तिथीक श्रीगणेशाची चिकणमाती पासून तयार केल्ली मुर्त हाड्यत. सकाळसांज पुजा-आरत्यो करतात. प्रसाद वांट्यत. हो उत्सव धा दीस मेरेन चलता. धाव्या दिसा अनंत चतुर्दशे दिसा गणपतीचें विसर्जन करतात.

श्री गणपती हो धायदिकांचो स्वामी. बाकीच्यो देवता ताचे इत्से बगर खंयचेच दिशेक येवूंक शकनात... देखून खंयचेंय मंगलकार्य करतना वा खंयच्याय-देवाची पुजा करतना पयलो मान गणेशाक दिवन ताची पुजा आदीं करतात...

वक्रतुंड म्हळ्यार वांकडे सोंडयेचो अशें आमी समजतात. पूण तें सामकें चुकीचें. वक्र म्हणल्यार वायट मार्गान वचपी वा उलोवपी अश्यांक ख्यास्त दिवन जो सरळ मार्गांत हाड्य तो वक्रतुंड. श्रीगणेशाक दुर्वा, मोदक आनी तांबडीं फुलां कित्याक घालतात हाचेरय पटपा सारकीच जाप आसा. हरयाळी भितर श्रीगणेशाचें तत्व चड प्रमाणांत ओढ्न घेवपाची शक्त आसा ते खातीर गणपतीक हरयाळी घातिल्ल्यान ती शक्त ओढ्न घेवन मूर्त जागृत जाता. गणपती पुजेंत तांबडें वस्त्र, दसणीचें तांबडें फूल, रक्तचंदन हे सारकेल्यो वस्ती वापरप खूब म्हत्वाचें. ताचे कारण गणपतीचो कोर तांबडो. पुजेंत वापरिल्ल्या वस्तीच्या तांबड्या कोरा खातीर श्री गणेशाचें तत्व मुर्ती कडेन व्हड प्रमाणांत ओढ्न घेता आनी ती मूर्त जागृत जावपाक मजत जाता. मोदकातलें, मोद म्हणल्यार खोशी आणीक म्हणल्यार वांटो. खोशयेचो सानसो वांटो. हातांत दिल्लो मोदक म्हणल्यार खोशी दिवपी शक्त. मोदकाचें तोंक ही गिन्यानाची कुरू. गिन्यान थोडेंच आसा अशें दिसता पूण अभ्यास करूंक लागतकच कळटा की गिन्यान हें खुबच व्हड आसा. मोदकाचो सकयलो वांटो म्होंवाळ आसता, गिन्यानाची खोशीय तशीच आसता...

चवथीक आरती म्हणप म्हणल्यार ती कान फुटपाच्या आवाजांत म्हणप अशेंच चलत आयलां. ते परस श्री गणेशाच्या मुखारच उबे आसात अशें समजून भावार्थान आनी काळजांत सावन म्हणूंक जाय तरच तिचो लाव जातलो. खूब आरत्यो म्हणचे परस फकत श्री गणेशाच्योच आरत्यो म्हणपाक जाय. मागीर त्याच जाग्यार बसून गणपतीचो जप केल्यार चड प्रमाणांत लाव मेळटलो. चवथीच्या दिसांनी 'ॐ गं गणपतये नमः' वा 'श्री गणेशाय नमः' असो जप चडांत चड केल्यार ह्या बुद्धी देवताचो, गणेश तत्वाचो खुबच लाव जातलो...

फकत आमच्या भारतांतच न्हय तर सगल्या विश्वांत आमच्या ऋषीमुनी विशीं आपलेपण आसा, आदर आसा, अश्या ह्या गिन्यांनी ऋषीं विशी भक्ती परगटावचे खातीर ऋशीपंचम करतात. गणपती बसयतकच दुसरे दिसा म्हणल्यार भाद्रपद शुद्ध पंचमीक ऋशीपंचमीचे व्रत करतात. त्या दिसा चुकून भश्टकार जाल्यान तो पयस करूंक ऋशीक प्रसन्न करूंक सप्तर्शींचें पुजन करतात. पुजा करकच बैलांच्या कश्टांचें कसलेच जिनस खायनात. कंदमुळां खातात. ऋशी रानांत रावतात ते फकत कंदमुळां खावूनच रावतात. तांची याद म्हण एक दीस तरी सैमीकरितीन तयार जाल्लें अन्न खावन हो दीस मनोवपाची रीत आसा. हिंदू संस्कृतीत कस्यप, अत्रि, भारद्वाज, विश्वामित्र, गौतम, जमदग्नी, आनी वशिश्ट ह्या ऋशीसप्तकांनी म्हणल्यार सप्तर्शींनी आमचे खातीर गिन्यानाचे कळशे भरून दवरल्यात. अश्या ह्या म्हान ऋशींनी दाखयिल्ल्या मार्गान वचून तांचे विशीं आदर ओंपप होच ऋशीपंचमीचो उद्देश आनी संदेश आसा.

भक्ती भावार्थान श्री गणेशाची आरत म्हणून अंदूंची चवथ मनोवया...

**श्री गणेशाची आरत**

*जय देवा, जय देवा, जय गणेश देवा*
*पावोवन घे बाप्पा तूं, आमची ही सेवा.*
*सगळ्या गिन्यांनाचो तूं रे मुखेली,*
*तुज्याच आशिर्वादान शारदा येतली,*
*अबुद्धीचीं कुपां, आमचीं पयसावतलीं,*
*जागृत दैवत तूं, शरण तुका आयलीं.*
*जय देवा, जय देवा, जय गणेश देवा*
*पावोवन घे बाप्पा तूं, आमची ही सेवा.*

*वज्राचो मुकुट माथ्यार चकचकीत,*
*चंदनाचो तिबो, कपलार तो सोबीत,*
*दुर्वांची माळ ही सोबता ती गळ्यांत,*
*छुम्छुम वाजतात रे पायंजणां पायांत.*
*जय देवा, जय देवा, जय गणेश देवा*
*पावोवन घे बाप्पा तूं, आमची ही सेवा.*

*देड दिसाखातीर बाप्पा तूं आयला,*
*पुजा, भजन आनी आरत्यांक रंगला,*
*चवथीच्या घुमटेंक हुंदरार बसला,*
*मोदकांची रास पळोवन खोशेला*
*जय देवा, जय देवा, जय गणेश देवा*
*पावोवन घे बाप्पा तूं, आमची ही सेवा.*

*गणनाथ तूं रे सगळ्या गणांचो,*
*विघ्नेश्वर, विनायक, साबार नांवाचो,*
*संकश्टांक पावता तूं, आधार भक्तांचो,*
*सांबाळ बापा सगळ्यांक, साद नमाचो.*
*जय देवा, जय देवा, जय गणेश देवा*
*पावोवन घे बाप्पा तूं, आमची ही सेवा.*

संपर्क: 9923594229



# 'आत्मसोद'

आशा शानभाग

मोगाळ म्हज्या पुता,

पयले चिटयेंत हांवें... 'तुका न सांगतां कोणाक सांगपाचें' ह्यो गजाली बरयिल्ल्यो. तुजें ल्हानपण... भुरगेपण आनी म्हजें आतां येवपाचें... येतलेंच तें म्हातारपण... हांचे मदलीं समानता दाखोवपाचो यत्न केल्लो. कांय गजाली तुका न सांगतां... न कळतां उरनये म्हणून हे चिटयेचो कारभार. तुज्या जल्मा उपरांत हांवें जें जें अणभवलें तें तुका हांवें केन्नाच सांगलेंना. कारण तें कळपाक तुका तें समजवपाक तूं खूबच ल्हान आशिल्लो. जरी तूं दांगांनी आतां वाडला... शिकून संवरून जोडपाक लागला तरीय... म्हज्या निमण्या स्वासा मेरेन तूं ल्हानच. म्हाका सद्दां तूं तोच आसतलो जे दिसा तुज्या जल्मा वेळार तूं आशिल्लो. किदेंय म्हळें तरी आमची पिराय वाडत रावली तर आमच्या वर्सां मदलो फरक तितलोच आसतलो जे दिसा हांव आवय जाल्लें...

आतांय, तुका हांव सांगतां तें समजतलेंच अशें न्हय... पूण तुका सांगले बगर म्हाका सुशेग कसोच मेळचो ना... तूं जल्माक आयलो ते दिसा सावन हांव समाजाचे नदरेन 'पूर्ण' थारलें. समाजा कडच्यान हांव जल्माक आयिल्ल्याचें सार्थक जालें हें अलिखित सर्टिफिकेट मेळ्ळें... एक खरें, तूं जल्मलो आनी हांव म्हजें आवयपण वळखीच्या... अनवळखीय लोकां सामकार मिरोवपाक पावलें. आवय जावप हो 'म्हजो' आनंद... तुका वाडोवप हें 'म्हजें' सुख... हेरां मुखार मानान आवय म्हणून मिरोवपी 'हांव'... पळय 'हांव', 'म्हजें', 'म्हाका' हे शब्द कितले शक्तीमान ते. ह्या संवसारांत हांव एकटेंच न्हय, तर दरेकटो 'हांव' ही गजाल मदेगती दवरूनच जीण सारता... हो विचार म्हाका तेन्नाच सुचलो.

तूं ल्हान आसतनां तुका जोर शंबरां वयर गेलो की तकलेक मारतालो. म्हणून अजुनय भितां हांव... आतां मारना तरी... तकलेक जोर मारलो की तूं साप्प घट्ट लांकूड जातालो. हांवें कितले फावट तुका काळी घालून वा नळा पोंदा थंड उदकांत भिजोवन सावशिद केला. मम्मा तुका त्रास न्ही हांवें केल्लें नं. १ आनी २ काडपाक?'' जोर चडपाच्या नेटार भरपी भारांत ही कामां नकळत तुजे कडसून घडतालीं... घडये शरीराची प्रतिक्रिया आसतली ती. ह्या खिणाक तूं म्हजो गुरु जालो. आपल्याक लागून हेरांक त्रास जावचो न्हय जाल्यारच कमीत कमी जावचो हाची हांव जतनाय घेवंक लागलें. पयलीं हांव सगलीं म्हजीं मनशां बरीं उरचीं हे भावनेन जगतालें. पूण आतां हांव म्हाका लागून हेरांचें वायट जावं नये हे भावनेन जगपाक शिकलें. नवें शिकयता तोच खरो गुरु...

तूं म्हज्या शरिराचो एक कुडको... म्हणूनच आपल्या मनशांचेर माया करतना आमी... हांव न्हय सगलीं आपापल्यो अटी लादतात... थोपतात. त्यो जर पुराय जायना जाल्यो तर नातीं पिंदपाक लागतात. जशें पोरणें वस्त्र झिरझिरता न्हय? सेम तशेंच नातेंय झिरझिरता. हांवें तुजे कडसून अपेक्षाच दवरल्यो ना... नाशिल्ल्यो न्हय अपेक्षा पूण जबरदस्तीन लादचे परस तुका जाय तें शीक, जाय तसो जग अशी संद दिली पूण हां... म्हजी बारीक नदर आसली तुजेर... तुका कळत अशी आनी नकळतय... मनशाक मरे जाय खूब किदें आसता... पूण 'नाका' 'म्हाका नाका', ह्या गटांत थोडक्योच गजाली आसतात. हांवें म्हाका नाकाच... आनी केल्यारय माफी नासतली... अश्या दोन तीन गजालींची अपेक्षा दवरली... तुका सांगून. हातूंतल्यान 'अनकंडीशनल लव्ह' म्हणल्यार कितें हें हांव शिकलें. कोणें शिकयलें हें? तुवेंच.

तुजी वाडे वाडे मस्तीय वाडली. अभ्यासांत तूं कमी पडटा हेंय लक्षांत आयलें. एका विशयांत. रिपोर्टकार्डार तांबडी लायनय पडली. सरान म्हाका पर्सनली विचारलें, ''चार मार्क जाय... घालूं?'' फटकन् सांगलें हांवें ''नाका... आमी ताची फाखां कापतलीं.'' तुवें घरा हाडिल्ल्या रिपोर्टकार्डाचेर सहज सय केली आनी परतून दितना एकूच उतर सांगलें, ''हाचे फुडें म्हाका तांबडी लायन पळोवपाक आवडची ना.'' आनी म्हजें हें मागणें तुवें मानलें. आज तूं कॉलेजींत शिकयतना आपल्या स्टुडंटांक सांगता, ही म्हज्या आवयपणाची पावती. पूण तेन्ना? जेन्ना तुका म्हज्या आनी सरा भितर जाल्ले भासाभाशेची सुलूस लागली तेन्ना तूं चाळवलो... ठेचें भर तूं तापलो म्हजेर. इतलेंच न्हय तर म्हजेच डायरेचेर तुवें बरयले... I hate you Mumma. सांबाळून दवरल्या ती डायरी हांवें. पूण एक गजाल खरी... ते उपरांत तुजें पुराय शिकप जाता मेरेन हांवें तांबडी लायन पळयली ना. आनी अणभवलीय ना. सगलो नील रंगान रंगलो तुजो रिपोर्ट...

प्रसंग पडटा तशें हांव तुजें समुपदेशक जालें. 'मम्मा लेक्चर नाका.'' अशें तुवें म्हणलें तरी

हांव म्हजी टेप वाजयतांच... सांगत रावतां. तरांतरांच्या मनशांची. घडणुकांचीं उदाहरणां दितां... कशीय आसूं... रागाची वो मोगाची भासाभास चालूच दवरतां. "आरे तूं चुकलो' अशें तुका सांगतनाच फुडलें सोल्युशनय काडून दवरतां. किंवा सोल्यूशन काडूनच चूक दाखयतां म्हण. तुजी चूक दाखयल्यार तूं चाळवता... विचित्र अर्थ काडून म्हज्या काळजार घावो जावपा सारखो उलयता... एकाच उतरान काळीज दुखलें... पुराय फुटलें... रागय आयलो... तुजेर काडूं? गळ्या कडेन आयिल्लो हुंदकुटो गिळ्ळो... दुकांक पातकडयां आड लिपयलीं. तुज्या चुकी फाटलें कारण सोदलें... तुजीच कड घेवन म्हजें कर्तव्य केलें... आयज तुका कळ्ळें तुवें म्हजें काळीज फोडपी म्हणिल्लें उतर पुरायेन चुकीचें. तुजी 'ती' चिंतपाची पद्दत चूक. आयज तुका कळ्ळें आनी म्हाकाय... की हांव फकत आवय न्हंय... तर धारेची तरसाद आनी घट्ट... कसलेय वार घेवन तुका साल्वार करपी ढाल... कोणें केलें म्हाका ढाल-तलवार?

खूब फावट तूं फट मारता. तुका दिसता म्हाका कळना... पूण कळूनय कळ्ळें ना अशें दाखवप हें कलाकाराचें काम. कारण हांव हांगा येवजितां... हांवें भुरगेपणांत फटी मारल्यो नात? आतांय हांव सेंट परसेंट खरेंच उलयतां? हांव धर्मराज? तोवूय 'नरो वा कुंजरो वा' केल्लोच. भरपूर वेळ भरमसाट बडबड आनी स्वत: म्हाकाच खर्चिल्लें हांवें. मनाचेर ताबो दवरूंक शिकलें... तुका समजून घेत समजायत आनी स्वता समजत गेलें. हें सोंपें न्हय... ही खूब तेंपाची प्रक्रिया... हांव पास वा नापास हें तुजें कर्तूप आनी म्हजी नियती म्हजें नशीब थारायतलें... तरी ही सगली कलाकारी करपाक म्हाका कोणें शिकयलें?

ह्या सगल्याक लागून हेरां कडेन हांव वेगळे नदरेन पळोवंक लागलें... शिकलें म्हण. सगल्यां मर्दीय रावन अलिप्त जावंक शिकलें. हेरांच्या चुकां कडेन... 'मनीस तो चुकतलोच' हे नदरेन पळोवंक लागलें. कळत नकळत म्हज्या पोटाक पिकिल्लो तूंच म्हजो गुरु जालो. ह्या सगल्यांतल्यान तुवें म्हाका कितें शिकयलें जाणां? स्वता वेलो कंट्रोल, सहनशिलता... भासाभास आनी स्वताच्या भुरग्यांच्या त्रासांत प्रत्यक्ष वांटेकार जावन तो त्रास आपलो मानून घेवप. म्हत्वाचें म्हणल्यार वाट पळोवप, तरी परतून परतून एकच चूक करतां जाल्यार शांतेचो सोडून दुर्गेचो अवतार घेवप. आपणें जल्माक घाल्ल्या भुरग्याचें वायट गुण हे म्हजेच स्ट्रॉंग जीन्स मानून घेवप हें तुवेंच म्हाका शिकयलें. खरें तर तुवें म्हजे भितरले आवयक वाडोवन व्हड केली.

हांव खूबच संवेदनशील, भावनाशीलय. म्हाका फटकन रडपाक येना. पूण तुवें म्हाका शिकयलें... रडप खूब्ब सोंपें... कश्टाचें काम आपल्या मनशा खातीर कणखरपणान उबें रावप, ताची फाटली बाजू राखप, प्रसंगार फुडेंय येवन हेरांचेर वार करप किंवा हेरांनी केल्ल्या वाराक आडोवन प्रत्युत्तर दिवप. ताका अखंड साथ सोबत दिवप... एके तरेन तुवेंच म्हाका आत्मसोद घेवंक शिकयलें. थँक्यू.

तुजेंच मम्मा.

संपर्क: 9404145337

# आवाज

कृ. म. सुखठणकार



'उपनिषदा पैकी तैत्रीय उपनिषदा मध्ये ॐ हे ब्रह्म असून सर्व जगाची उत्पत्ती, स्थिती व लय ब्रह्माच्या आश्रयाने चालू असतात असे म्हटले आहे' अशें आमकां बुवान एकदां किर्तनांतल्यान सांगिल्लें अशी याद जाता. ऊँकारांतल्यान जगाची उत्पत्ती जाल्या हाचे वयल्यान आवाज, नाद हांची आमचे जिणेंत कितली म्हत्वाची सुवात आसा हें आमकां कळटा. बुवा खानदेशांतलो. तो मागीर आमगेर नुस्त्याचें जेवपाक आशिल्लो. खडपी कुल्लेचे दांगे ताणें बरे काट काट करून फोडले. 'बुवा, दांगे फोडण्यात लेगीत नाद आहे. ह्या नादा पासून उत्पत्ती काय होईल ते उध्या समजेल' टायगरान बुवाक म्हणलें. कारण कुल्ल्यांचें तोणाक आईन बुवा खातीर झणझणीत केल्लें.

आमच्या गळ्यांत वोकल कॉर्ड्स आसतात जांकां लागून आमी उलोवपाक शकतात. केन्ना केन्ना वोकल कॉर्ड्स आसुनूय आमकां उतरां फुटनात ही गजाल वेगळी. दादल्यांचे वोकल कॉर्ड्स लग्ना उपरांत आंवुळपाची वेवस्था निर्मात्यान पयलींच करून दवरल्या आसुंये. लग्ना उपरांत फकत 'आयकलां', 'पळयतां', 'मिरसांगो, कोथमिरे पालो, लिंबू आनीक कितें हाडूंक जाय?', 'विसरलों' अशीं मोजकींच उतरां ताच्या गळ्यांतल्यान भायर पड्यात. हाका लागून ताचें कांय व्हडलें अडना कारण ताका लग्ना उपरांत चड भाशण नासता. ताका लग्ना उपरांत फकत आयकुचें आशिल्ल्या कारणान कशी कोण जाणा ताची श्रवणशक्ती सामकी तिखट जाता. पयस (आंगणांत) पावलां वाजल्यार लेगीत ताका सालांत आयकुपाक येत. हाका लागून ताका कितेंय जाग्यार घालपाचें आसल्यार तीं पावलां लागीं पावचे आदीं तो सगळें जाग्यार घालता. मान उबी आनी आडवी हालोवन हालोवन तिवूय मेकळी जाता. हाका लागून जाण्टेपणांत दादल्यांचे सगले अवयव घट जातात सोडून मान. बायलांचें परतें. तांचो आवाज लग्ना उपरांत फुट्टा हें तुमी बारीक आयकल्यार तुमच्या लक्षांत येतलें. चली पळोवपाक गेल्ले कडेन ती फुतफुतून जाप दिता. 'आगो आज जेवूं ना काय कितें गो टेन्शनान? उतरांच फुटनात शीं?' चलेकारां वटेंतली जाण्टेली विचारता. मागीर ही जाण्टेली व्हंकलेचो फुंटिल्लो आवाज आयकुपाक उरना ती गजाल वेगळी. सुनेक लागून ती वयली वाट धरता असो अर्थ कोणें काडचो न्ही. सगळ्याच गजालींक नवी सून जबाबदार आसना. 'राजाराम कोंता करतात डायरेक्टरेट ऑफ एकावण्टस मध्ये आणि मी त्यांचा डबा करते इकडे त्यांच्या किचन मध्ये' अशी ती गोड आवाजान घोवाचें नांव घेता (सगळ्यांच्या आगऱ्याक मान दिवन). होच आवाज कांय दिसांनी 'कान फुटल्या रे, पांय वयर काडून फकत पेपर वाच', 'हें म्हाका दवरलां करपाक?' आमगेर वावराडी ना हें खबर आसा न्ही अशी आरड मारता. खूब फावटीं बायलेच्या वोकल कॉर्डांची आड्डुपाची क्षमता म्हणजे वॉल्यूम आनी घोवाच्या कानाचो नाजूक पड्डो हांचो तालमेल जायना. हाका लागून घोवाच्या कानाचो पड्डो फुटून तो भेड्डो जाता. ताचें नशीब आदींच लग्न जावन फुटिल्लें आसता तांतूत ही भर पड्या.

आवाजांत कातेगोरी आसता हें म्हाका मराठी कांदबरी वाचून कळिल्लें. कारण असल्या कादंबरींनी नायिकेचो आवाज सदांच मंजूळ आसता. कादंबरींतल्या नायकाक तिचो आवाज सदांच हवा हवा सा वाटतो. 'रजनीचा तो किणकिणारा मंजूळ स्वर कित्त्येक दिवस त्याच्या कानावर न पडल्याने मंजुनाथ अस्वस्थ झाला होता' अशीं वाक्यां वाचतकच असो आवाज म्हज्या कानार केन्ना पडटलो हाची उमळशीक आशिल्ली. ती उमळशीक लग्न जाय मेरेन उरली. ते पिरायेचेर कितें वाचता कितें पळयता तें सगळें खरें दिसता. खूबसुरत हो रेखाचो सिनेमो पळयतकच आपलेय जिणेंत अशी रेखा येंवची अशें आमच्या पिडयेच्या सगल्या तरणाट्यांक दिशिल्लें. हें सत्य कोणूच नाकारचोना. जो नाकारता ताणें भोवतेक हो सिनेमो पळोवना जातलो. आसूं. 'ईश्य गडे किनई' हीं उतरां मंजूळ आवाजान, शिडशिडीत बांदो आशिल्ल्याकूच सोबतात अशें म्हजो अभ्यास सांगता. निर्मातो बांदो पळोवनूच आवाज दिता जांवये. 'आवय म्हजें कितें सांगता गो तूं?' अशे हेळे खोजन्याक सोबतात, आमगेर एक खोजनो आसा म्हणून सांगतां. 'हिच्या गळ्यांत वासो गेला रे?' अशें म्हाका एकदां टायगरान विचारिल्लें. 'आसत रे बाबा. हिच्या भुरगेपणांतलो इतिहास म्हाका खबर ना' अशें म्हणून हांव सालांत आड पडलों. मे म्हयन्यांत गोंयकार भायर आंगणांत खोबरें, आमटाण, मिरसांगो अशे पुरूमेंताचे जिनस सुकूंक घालता. आमगेरूय घालतात. मातशीं कुपां दाटून आयले बराबर ही 'पावस आयलो पावस आयलो, भायर चवळी, आमटाण, सोलां, सुकें सुकत घालां अशें आड्डता तें अख्ख्या वाड्यार आयकूंक येता. सगळी जाणां मागीर तांणी जें जें भायर सुकत घातलां तें तें भितर घेवन वतात. आमच्या फाटले वटेन गफूर चाचाची गॅरेज आसा. तो चाचा जरीय जालो तरीय आपल्या कोटाक गुलाब लायना. सोड. ताचे खातीर ही टेर्रासाचेर रावन पावस येता म्हणून राष्ट्रभाशेंतल्यान हवामानाचो अंदाज सांगता. ताची गॅरेज आमच्या घरा पासून पांचशें मिटरार आसत तरीय गफूर चाचाक पिरायेच्या अंयशीं वर्सांचेर हिचो आवाज स्पश्ट आयकूंक येता.

''गफूर चाचा, गफूर चाचा, बारीश आई, बारीश आई. घनन घनन घिरऽ घिरऽ आये बदरा, घने घनघोर कारे छाये बदरा. गफूर चाचा गफूर चाचा बारीश आई बारीश आई''.

''ये लडकी एक दीन मेरी जान लेके रहेगी' अशें गफूर चाचान

म्हज्या खांद्यार हात घालून म्हाका एकदां सांगिल्लें. आमच्या मारुती ८००चो रेडियेटर गळटा म्हणून हांव गॅरेजींत गेल्लों. हो मोडेल आतां बंद जाला तुमचे म्हायते खातीर.

''चाचा क्या बताऊं? जो प्राप्त है वह झेलना पडेगा. आप बारीश के मौसम के पहले झेलते हो. मैं सारे मौसम झेलता हूँ. मेरे दोनो कान लीक हो रहें हैं उसका इलाज आपके गॅरेज में नहीं है.''

''हाँ बेटा. दावूद इसको वेल्डींग मारो जी.''

पयलें वाक्य म्हाका, दुसरें दावूदाक गाडयेच्या रेडियेटरा खातीर. तुमचो गैरसमज जावचो न्हय म्हणून स्पश्ट केलें, आनीक कांय न्ही. हिणें एकदां बाबुली भटाक आपले परीन हळू आवाजान 'फाटले शिताक उड्कमेथी वाडूं तुमकां?' अशें विचारिल्लें. तेन्नाच बाबुली भट साराक भुरको मारतालो. ही तेन्ना नवीच सून. हिच्या वॉल्यूमाची संवय ताका जावची आशिल्ली. ताणें पळय आंग काडलें तें परत जाग्यार येवपाक खूब तेंप लागलो अशें तोच म्हाका सांगी. आज लेगीत तो भुरको मारतना मान कशीच सकयल घालिना. कोण कोणाचो कित्याचो कसो धसको घेत सांगू नजऽ!

हिची भयण नलू. ताका आकाशवाणीचेर उध्दोशक (एनावन्सर) म्हणून व्हेल्लें जाल्यार तें ताचें (आकाशवाणीचें) भांगर करतलें आशिल्लें. हेळे काडले आनी अडेचें हांसलें म्हणून उध्दोशक जायना हें खूब जाणांक खबर ना. नलू म्हाका सदांच सकाळीं फोन करता तें गुड मॉर्नींऽऽऽग गोवा असो साद घालीत. हो साद कानार पडटकच दीस बरो वता असो म्हजो समज जाला. विद्या बालनान गूड मॉर्नींऽऽऽग मुंबय हें मागीर म्हणलें. सुरु नलून केल्लें. आसूं आमकां मोठेपण नाका. 'हो तो सोण्ण कसो वांकडो कसो जाता पळय, मेवणेचो फोन आयलो दिसता' आई देवा कुडींतल्यान म्हणटा तें म्हज्या कानार पडटा पूण हांव म्हजे कुडीचेर ताबो दवरूंक शकना. नलूक तुमी लेडी अमीन सयानी म्हणल्यार जाता. ताच्या आवाजान म्हजे कुडीर मोरां पांख भोंवडायल्ल्याचो भास जाता हाका लागून नकळत म्हजी कूड सोण्ण कशी बागवता जांवये, खबर ना. सोण्ण कशी कूड कशी बागवता हें पळोंवचें आसल्यार नलूचो फोन येता तेन्ना तुमकां आमगेर येवचें पडटलें. आई केन्ना केन्ना चडूच करता.

आकाशवाणी वयल्यान याद जाली. आदल्या युगांनी आकाशांतल्यान कांय एनावन्समेण्ट जाताले देखून तांकां आकाशवाणी म्हणटाले जांवये. आतां अशे एनावन्समेण्ट आकाश सोडून सगळे कडल्यान जातात. फामाद आकाशवाणी जाली ती देवकी आनी वसुदेव बंदखणींत आसतना. कंसान दुबावानूच कृष्णा आदीं ताच्या किर्तीमत, सुशेना, उदयीन, हद्रसेना, रिजुदासा आनी भद्रदेह अश्या भावांची हत्या केली. मागीर कृष्ण जालो आनी ताणें आमकां गीता सांगली. सोड. ताचे सुवातेर दुसरे चलयेक दवरलेली तिका कंस उबारून आपटूंक सोदता. तेन्ना ती चली आकाशांत वता आनी आकाशवाणी जाता, 'तुजो काळ द्वारकेंत वाडटा' म्हणून. ह्यो सगल्यो आयकल्ल्यो खबरी. मागीर खूब आकाशवाण्यो जाल्यात आसतल्यो पूण त्यो आयकुपाक कोणाक टायम ना. हालीं रेडव्या वयली आकाशवाणी आयकुपाक कोणाक टायम ना, ती मळबांतली आकाशवाणी कोण आयकतलो! हालीं सगळ्यांचो बाळ्ळेर हॉस्पिटलांत जाता आनी कृष्ण येवपाचो प्रश्नूच ना. सगळे कडेन कंसूच कंस

निर्मात्यान दिल्ल्या आवाजांत एक पट्टी आसता. ती पट्टी कशी केन्ना वापरप हें आमकां कळपाक जाय. संवय आनी अणभवान हें साध्य जावपाक जाय, पूण जायना. देख दिवची जाल्यार हौशी रंग भुमीर जावपी इतिहासीक नाटकांची दीन. आतां हीं नाटकां कमी जाल्यांत म्हणा. आदीं आमच्या भुरगेपणांत जात्रांनी, काल्यांनी तीं जातालीं. ह्या इतिहासीक नाटकांनी शिपाय ते शिवाजी महाराजा मेरेन सगळे वयले पट्टेंतूच उलयताले, प्रसंग मागीर तो कितेंय जांव. 'माँ साहेब आमी मोहीम फत्ते करून आलो' जावं वा 'आरेरे, किती तरी आमचे मावळे ह्या कामी आले' हो प्रसंग जांव, पट्टी वयलीच. 'मोहिमी वरून आल्यावर आज आपली एकांतात भेट होते राणी साहेब' हें वाक्य अशे तरेन म्हणप जातालें की दुसऱ्या महालांत न्हिदिल्ले जिजाऊक जाग येवपाची. सगल्या कलाकारांक वयले पट्टेंत उलोवपाची संवय जाल्ल्यान तांकां सामाजीक जिव्हाळ्याच्या नाटकांनी काम करतना त्रास जाताले. ''नाना, तुमी इकडे ह्या वेळी?' हें वाक्य ते 'ह्या नानांना तोफेच्या तोंडी दया' म्हणिल्ले वरी वयले पट्टेंत म्हणटाले. बायलांक व्हॉय्स मोड्युलेशन बेस बरें जमता असो म्हजो अभ्यास सांगता. रामास पाध्ये जसो आवाज चिड्डून उलयता तशी बायल कोणाक कळूंक दिनासतना घोवाक शिटकावपाक जाय थंय शिटकायतात. ही शिटकावणी फकत घोवाच्या कानार पडटा तें म्हत्वाचें. दादले अशे दांत चिड्डून उलयतना हांवें केन्नाच पळोंवक नात. 'फुकट मेळटा म्हणून ओगीच पिवंनाकात. चार ग्लास जाले तुमचे! चार ग्लास म्हणल्यार कितले एमएल तें कळटा तुमकां? वतना गाडी चलोवपाक जाय तुमकां' येदें व्हडलें वाक्य ती दांत चिड्डून स्वास रोखून कशी उलयता हाचें म्हाका अजाप दिसता. हाका म्हणटात खरें वॉयस मोड्यूलेशन. हें जरीय ती दांत चिड्डुन उलयली तरीय चार पेले (सोऱ्यांचे) पोटांत गेल्ल्या घोवाक तें ज्युस्त तशयाक तशें आयकूंक येता आनी ताचो तीन पेले सोरो देंवता. तो सुता सारको गाडी चलयता आनी आपल्या पावलांनी घरा पावता. 'तुमी चड व्हांवपाक लागल्यात घरा पावतकच सारकें दाखयतां तुमकां' तांबडें नाक करून लो पिचींतलीं हीं उतरां जेन्ना ताच्या कानार पड्यत तेन्ना हवेंत उधळपी घोडो एका खिणा भितर दोळ्यांक झापां लायिल्ल्या घोड्या वरी सरळ जाता. घरा पावतकच आपलें कितें जातलें हें ताच्या दोळ्यां सामकार उबें राविल्ल्यान ताचो हात आपशींच बॉल्सांत वता. तो लेंस काडटा आनी तोंडार फिरयता. लो पिचींतलो आवाजूय मनशाची पकड घेवंक शकता हें आमकां असल्या प्रसंगांतल्यान कळटा. दर खेपे आवाज चडयलो म्हणून आपली मोख साध्य जायना हें आमी बायलां कडल्यान शिकपाक जाय. शोलेंत 'तेरा क्या होगा कालिया' गब्बर सिंग थंडपणान विचारता. पूण तीं उतरां कानार पडटकच कालियाची स्थिती कशी जाता हें आमी सोनेरी पडद्यार पळयलें.

''महाशय उदया वडिलाना शाळेत गुरुजीनी बोलावलं आहे म्हणावं'' पाटील गुरूजी आमकां गब्बर सिंगा वरीच थंड आवाजांत सांगतालो. आमचो पाटील गुरूजी आनी गब्बर सिंग समकालीन. दोगूय जाण मावा मळून खाताले. कालियाची गत जाता तशीच आमची जाताली. कालियाक सिनेमांत मुक्ती तरी मेळयली, आमच्या नशिबांत तीय नाशिल्ली. आसूं आमी आवाजाच्या मॉड्युलेशना बद्दल उलयताले.

स्त्रीवर्गाक पुरूशवर्गा कडल्यान कसलेंय काम करून घेंवचे आसल्यार तांच्या कंठांतल्यान हेळे भायर पड्यत. तीं हेळे काडून उलोवंक लागतात. दादल्याची निरिक्षण शक्ती जर खर आसत जाल्यार ताच्या लक्षांत तें रोखडेंच येता आनी तो सादूर जाता. हें तांच्या हेळे काडून उलोवपाक लाग मारप वा लाडान येवन उलोवप अशेंय म्हणटात.

आदल्या तेंपार बायल म्हयन्याचे एक तारखेर अशी उलयताली. चाळींत बिराडांनी रावपी बायलांचें ह्या दिसा व्हॉय्स मोड्युलेशन जातालें अशें आमकां वाचपाक मेळटा. कारण त्या दिसा घोवाचो पगार जातालो. बायलांक तांच्या बारीक बारीक देस्पेझां खातीर पयशे जाय आसताले. तीं ते व्हॉय्स मोड्युलेशन करून उकळायतालीं. ह्या अस्त्रां बराबर ती घोवाक गरम च्या भजीं बी करून घालताली. दर म्हयन्याचे एक तारखेक असो बदल जाल्ल्या कारणान घोवाक तो कळटालो. म्हणटकच तो 'कितले रुपया जाय?' अशें म्हणत समोर येतालो. आज ही परिस्थिती उरूंकना. बायलोय हुमर हुंपून कामाक वतात. अशें जरीय जालें तरीय तांचो खर्च वाडला. हाका लागून लाडान येवपाचें प्रमाण कमी जावंक ना अशें दत्ता म्हणटा. घरांत भितर सरले बराबर न विचारता मेजार गरम च्या, भजीं वा शेवयां सांजो आयलो म्हणटकच दादल्यान सादूर रावप गरजेचें. 'तुमी आमचे खातीर मर मर मरतात न्हीं' दनपारच्या कडार भितर सरतकच ही लाडान येवन उदकाचो घोंट म्हज्या ताळ्यार घालता तेन्ना फुडाराक येवपी संकटाची म्हाका सुलूस लागता. केन्ना केन्ना ही म्हज्या उरिल्ल्या केंसांतल्यान बोटां फिरयता आनी कवतुकान म्हाका पळयता तेन्ना उदक पियेवन लेगीत म्हजो ताळो सुकता आनी हिणें हात फिरोवन लेगीत म्हजे केंस बोडार उबे रावतात.

''आई बी येवपाची आसा गो?'' हांव संकट खंयचे दिकेन येवपाचें आसा हाचो अदमास घेतां.

''कशें कळ्ळें तुमकां?'' ही केंसांतलो हात काडटा.

''ना गो खूब तेंप जालो येवंक ना म्हणून म्हणिल्लें. आतां येता म्हणटकच काळजी मिटली''. हांव उरिल्लें उदक पियेतां आनी सालांत आड पड्टां. दादले रोमॅण्टीक जातात तेन्ना तांचो आवाज घोगरो जाता अशें हांवें कादंबरींनी वाचलां (चंद्रकांत काकोडकार). म्हजेर रोमॅण्टीक जावपाचे प्रसंग क्वचीत आयले पूण आवाज बी घोगरो केन्ना जालोना. थंडी जातकच म्हजो आवाज घोगरो जाता, तुमचे म्हायते खातीर. स्त्री वर्गाचो ओगीच गैरसमज जावचो न्ही म्हणून स्पश्ट केलें. हळद घालून दोनदां खतखतीत दूद पितकच तो नॉर्मल जाता. 'वैजयंतीला रामरावानी जवळ ओढली. वृक्षाला लता बिलगावी तशी वैजयंती रामरावाना बिलगली. दोघांचे उश्ण श्वासोश्वास सुरु झाले. अनामीक भितीने वैजयंतीचे ऊर जास्तच वर खाली होत होते. 'वैजयंती तू माझी आहेच आणि अनंत काळासाठी माझीच राहील' रामरावांचा आवाज घोघरा झाला होता. अश्यो वळी वाचतालो तेन्ना म्हजो ताळो सुकतालो. कित्याक तें कळ नाशिल्लें, वयाचो परिणाम जांवये. मागीर पोरसांत वचून हांव मिरवेल माड्येक कशी बिलगल्या तें बारीक पळयतालों. तेन्ना तितलेंच म्हज्या हातांत आशिल्लें. वयर सांगलां तशें, प्रत्यक्षांत केन्नाच अशे प्रसंग आयलेनात. थंडी जातकच आवाज बसलो, चवथी कडेन वाड्यार आरती म्हणून ताळो उड्यलो पूण रोमॅण्टीक जावन ताळो केन्नाच घोगरो जालोना. तुमचो बी आवाज घोगरो जाला केन्ना अशें कोणाकूय विचारपूय समा न्ही. म्हणटकच प्रत्यक्षांत अशें खरेंच जाता काय कितें तें कळपाक मार्ग ना.

आवाज चड्यलो म्हणून फट खरी जायना अशें आई म्हणटा. जेन्ना आपली बाजू फ्राक आसता तेन्ना तो मनीस आपलो आवाज चडोवन आपूण म्हणटा तें खरें अशें सांगपाचो यत्न करता. म्हाका हो अणभव खूब फावटीं आयला. म्हजो आवाज चड्ना म्हणटकच म्हजी बाजू चारूय वटेंनी घटमूट आसून लेगीत हांव नाकयां आपटलां. दुसरे वटेन आवाज चड्यल्ल्यान म्हाकाच आयकूंक आयलोना अशें खूब फावटीं जालां. आमच्या लग्नाचो खर्च आमी आनी चलयेकारांनी अर्दो वांटून घेवपाचो थारिल्लो. आमी माळ घालतकच चलयेकारांची बॉडी लँग्वेज चेंज जाल्या तें हांवें सव्या वयल्यान पळयलें. पूण हांव होमाच्या धुंवरान जाम जाल्लों म्हणटकच आनीक जाम जावचो न्ही देखून ओगी रावलों. व्हंकलपावणी घरा पावतकच ही माप उडोवन भितर आयली. भायर बसप्पा जा मुली जा वाजोवन उबो राविल्लो. माटवांतूय हांवें ताच्या पयशांचो विशय दोनदां हिच्या बापाय कडेन काडिल्लो तेन्ना हिणें म्हाका फांफडून उड्यल्लो. म्हणटकच माप उडोवन ही भितर सरतकच तो विशय हिचे कडेन काडलो.

''आगो लग्नाचो खर्च फिफ्टी फिफ्टी म्हणिल्लें न्ही बाबान?''

''हय? बाबान म्हणिल्लें? केन्ना? केन्ना?'' हिणें सकयल घाल्ली मान वयर काडली. आवाजाचो वॉल्यूम फूल केलो आनी चुड्याचो हात म्हज्या तोंडा सामकार नाचोवंक लागली. हिचो अवतार पळोवन आमची घरची मंडळी दोन पावलां फाटीं सरली.

''ना गो, ना गो म्हाका बेठेंच दिसलें, म्हाका बेठेंच दिसलें'' हांव पत्र्याचें कदेल उगतें करून ताचेर बसलों. बापूय 'ॐ शांती शांती शांती' म्हणून दुसऱ्या कदेलार बसलो आनी व्हंकलकारांनी फिफ्टी फिफ्टी दिवपाचो विशय थंयच सोंपलो. आईन नंदी बैल, ताटा खालचें माजर बी सगलीं विशेशणां म्हाका लायलीं पूण हांवें हूं काय चूं केलेंना. आवाज कितेंय करपाक शकता वा आवाजाची तांक कितें आसता हाचो अदमास तुमकां आयला जातलो. ह्या आवाजाक लागून हांवें हजारांनी रुपयांचेर उदक सोडलें हें थोड्यांक अतिताय दिसतली हें हांव जाणां. पूण ताचेर कांय उपाय ना.

आवाज चड्यलो म्हणून भावना दुसऱ्या मेरेन पावतात अश्यांतली गजाल न्ही. 'शब्द वाचून कळले सगळे शब्दांच्या पलिकडले' अशें

खूबदां घड्य. आमचो बाबुली भट पुजा करतना सांगून घेता. अर्दीं उतरां भायर आनी अर्दीं भितर अशें कितें तरी करता. तें आमकां आनी देवतेक ज्यूस्त कळटा असो ताचो समज. देखीक, सांगून घेतना, 'महामाये शांतादुर्गे आज तुज्या पांयां कडेन... हें इतलें आमकां आनी देवतेक स्पश्ट आयकूंक येता. मदलें कितें तें बाबुली भटाच्या तोंडांतूच उरिल्ल्यान फकत ताकाच खबर आसता. मागीर परत आमकां आनी देवतेक उद्धेशून 'राखण कर आनी बरें कर'. जेन्ना बाबुली भट विचित्र आवाज करून भितरल्या भितर गुणगुणटा तेन्ना तो आमकां हातवारे करून 'भियेव नाका हांव ज्यूस्त उडयतां तें' अशें कितें तरी सांगता. मागीर आमी हात जोड्यत आनी पोले फोड्यत. जर मुंबयकार बी आयिल्ले आसत जाल्यार 'घरातील उच्च भ्रू मंडळी कामाच्या निमित्याने बाहेर पसरली आहे' अशें मातशें मोट्यान म्हणून 'त्यांच्यावर तुझी कृपादृष्टी असुदे' अशें सांगणें करता. मागीर उच्च भ्रू मंडळी नमस्कार करून ताच्या ह्या सांगण्याचो योग्य मोबदलो दिता. आसूं. सांगपाचो मुद्दो शब्दा वाचून लेगीत कोणाक जें कळूंक जाय तें कळटा. आमचे देवतेक तें ज्यूस्त कळिल्ल्यान आज मेरेन तरी तिची कृपादृश्टी आमचेर आसा. आमी जें कितें करतात आनी बाबुली भट जें कितें सांगणें करता तें ती बाबडी गोड मानीत आयल्या. सोड. तुळशीलग्नाक आमकां 'कावेरी शरयू' इतलेंच कानार पड्य आनी मागीर बाबुली भटाचे हातवारे (लग्न जाल्ल्याचो एनावन्समेण्ट करीत). हांव येजमान जाल्ले वरी, लग्न वेवस्थीत पार पडिल्ल्याच्या समाधानान आंगणांत हाव एक पासय मारतां. फाटल्यान सावळो म्हजी कास धरून आनी ते वटेन ही जोड्वीं पेटयता.

आवाज तोंडांतल्यानूच येवपाक जाय अशें ना. आवाज मनशाचे कुडीच्या बाकीच्या वाटांनी लेगीत येवं येता. निर्मात्यान तशी वेवस्था करून दवरल्या. आमकां जेन्ना पोटांत वाय जाता तेन्ना तिका वाट मेळटा तशी ती कुडींतल्यान आवाज करीत भायर सरता. ही वाय चार चौगांत आवाज करीत भायर सरत जाल्यार वाय जाल्या ताका आनी उपस्थीत मंडळीक त्रासदायक थारूं येता. हे खातीर जांकां वायेचो त्रास आसा तांणी दाळी बी कमी खावंच्यो. हाका लागून आवाजाचें प्रदुशण आनी हवेचें प्रदुशण कमी जावपाक हातभार लागतलो अशें म्हजें मत. थोड्यांक आवाज करीत खावपाची संवय आसता. हाका लागून दुसऱ्याक त्रास जांव येता हाची तांकां जाणीव लेगीत नासता. हे आवाज कितें खातात ताचेर निंबून आसतात. देखीक, शेव चिवडो बी तोंडांत आसत जाल्यार ताचो कुरु कुरु असो आवाज येता. ओलें खाण आसत जाल्यार मचक मचक असो आवाज येवं येता. आवाज कसोय आयल्यार दुसऱ्याक तो त्रासदायकूच थारता हातूंत दुबाव ना. तोंडांत कितेंय खावपाचो जिनस आसतना उलयत जाल्यार जो त्रास जाता तो वेगळो. खावपांत उलोवणें भरशिल्ल्यान दुसरोच आवाज तयार जाता ताचें वर्णन उतरांनी करूं नजो. तो आवाज प्रत्यक्ष अणभवचो पड्य. हे भायर घरांत चपलांचो पटक पटक आवाज आयकून थोड्यांची तकली उसळटा हें हांवें आयकलां. आमी घरांत केन्नाच चप्पल घातलें ना. खंयूय भायर वच्चें जाल्यार आमी पायल

चप्पल घालून वतालीं. घरांतलीं सगळीं जाणा पायल चप्पलूच घालतालीं. देखून आमी तीं घेतना पटे वेगळ्या कोराचे आसात ही जतनाय घेतालीं. म्हजो पोपटी, आईचो निळो आनी बापायचो पाचवो हे कोर थारिल्ले आशिल्ले. ही लग्न जावन भितर सरतकच हिणें बॅगेंतल्यान पयलें भायर काडलें तें चप्पल (निळ्या कोराचें). त्या चपलाचो कोर पळोवन टायगरान आईक पळयलें. ही सून आत्तां भितर सरल्या, आत्तां चप्पल घालून खंय भायर सरता हो सगळ्यांक प्रस्न पडलो. म्हज्या तर काळजांत धडधडपाक लागलें. मागीर ती चप्पल घालून भितर फ्रेश जावपाक गेली. तेन्ना आमकां तीं स्लिपर्स घरांत घालपाक हाडल्यांत म्हणपाचें कळ्ळें. ही तें स्लिपर घालून पटक पटक आवाज करीत भोंवपाक लागली तेन्ना सगळ्यांच्यो तकल्यो जड जावपाक लागल्यो. आई दनपारची सालांत आड पड्यली, टायगर भायर सोप्यार. दनपारचें सगळें शांत आसतना हिणें जोत्याचो पटक पटक आवाज करीत भोंवप.

"आगे तो तुज्या खडावांचो आवाज मातसो बंद कर. जमता जाल्यार ताका सायलेन्सर लाय. आई आड पडल्या" - टायगर.

"म्हाका स्लिपरां शिवाय जमना. I am convent educated". - ही.

आतां स्लिपर्स आनी कॉनवेण्ट एज्युकेशनाचो कितें संबंद तें म्हाका खबर ना.

"सगळीं संवंगां आमकांच कित्याक प्राप्त जातात खबर ना गे आई. हो असोच उरिल्लो जाल्यार तुका दोन मिणयां आड पडपाक तरी मेळटलें आशिल्लें".- टायगर.

मागीर टायगरान हिका ल्हान भुरग्यांक चपलांतल्यान पांय भायर येवचो न्ही म्हणून रबर बांदतात तशी बांदून दिली आनी आवाज बंद जालो. आतां ती रबर हांव बांदून दितां, तुमचे म्हायते खातीर.

जेन्ना आवाज बंद जाता तेन्ना शांतता निर्माण जाता. कांय सुवातींनी देखीक देवूळ, कोर्ट, हॉस्पिटल, वाचनालय बी हांगा शांतता पाळची अशी अपेक्षा आसता. ती कितली पुरी जाता हें देवळांत गेल्यार आमकां कळटा. दर वर्सा तीस जानेवारीक इकरा वरांचेर एक मिनूट शांतता पाळून आमी बापुजीक आर्गां ओंपतात हें सगळ्यांक खबर आसा. ह्या देशांत जाय थंय जाय त्या वेळार आवाज काडलोना जाल्यार एक दीस लोकशायेची हत्या जातली. आनी आमकां अशेंच एक मिनूट उबें रावन लोकशायेच्या आत्म्याक आर्गां ओंपचीं पडटलीं अशें सावळो म्हणटा. सावळो म्हणटा म्हणटकच तें खरें आसतलें.

संपर्क: 9850530756 

---

*(पान ९ वयल्यान)*

खोलायेन अभ्यास करचो लागता म्हूण न्हय पुणून आमची वेवस्थाच हे पद्‌दतीक मान्यताय दिना. भुरग्यांक दिसलें तांकां आत्मपरिक्षण करपाक लायता तेन्ना हांव टायमपास करतां. तांचो हातूंत कांयच फायदो ना. सर आलीतो जे तरेन कठीण संकल्पना सुद्‌दां आमकां आमच्या सदच्या जिवना कडेन जोडून शिकयतालो ताणें आमचे 'हॅविटस' ही संकल्पना शिकयतना आमकां अशे खंयचेय सुवातेर वचून कितें तरी नवें खावंक सांगलें जंय आमी सादारणपणान वचून खावचीं नात. हाचे अणभव आमी वर्गांत मांड्टना सरान म्हणलें 'रुचीचो अणभव फकत जिबे पुरतोच आसना. तो अणभव आमच्या घडपाचेर आनी समाजीक शिक्षणांतल्यानय घड्टा.' अशे तरेन ताणें एक नवो विचार आमकां अणभवांतल्यान शिकयल्लो.

जेन्ना हांव विद्यापिठांत नवेंच शिक्षक म्हण आयिल्लें आनी म्हाका कांय प्रस्नांक लागून काम सोडूनच वच्चें अशें दिशिल्लें तेन्ना सरान म्हाका धीर दित म्हणलें, शिक्षक म्हण म्हजें करियर कितलेंय ल्हान आसूं ताका म्हजो सदांच अभिमान आसतलो. म्हाका भंय दिसतालो जंय हांव आसा थंय लोक पावंक सोदतात आनी हांव मेळिल्ल्या जॉबाची कदर करना अशें लोकांक दिसत काय? पूण सरान तसो विचार केन्नाच करूंक ना. असोच आशिल्लो आमचो सर आलितो सिकैरा. म्हाका आलीतोरियन म्हणून घेवपाक खूब अभिमान दिसता.

***(मूळ इंग्लीश लेखांतल्यान अणकारून)***



*(पान १७ वयल्यान)*

*सगळो संवसार तुज्या एकल्याच्याय भुजांर आसा अशें समजून कामाक लाग. तुज्या हातांतल्यान चिमटीभर कितें तरी बरें घडटलें.*

अशा आशयाचीं शणै गोंयबाबांचीं उतरां आसात. कोंकणी भाशा मंडळाच्या आख्ख्या आयोजक आनी वावुरप्यांचे टिमीन म्हळ्यार पंगडान कथामाळ सर्तीचो विस्तार करीत ह्या उतरांची प्रेरणा घेतल्या अशें म्हणूं येता. येद्या व्हडल्या आवांठाचो हो इवेंट करपाक जें वेवस्थापन लागता तें कौशल्य ह्या युवा पंगडान सार्थ करून दाखोवन दिलां. तांची अपुरबाय करीत तितली थोडी.

गोंयांत कला अकादमीची भजन सर्त जाता तसो माहोल म्हयनो भर कथामाळ सर्ती निमतान शाळां शाळांनी आनी पालकां मदीं विद्यार्थ्यां मदीं उरता. भाशा मंडळ जी धडपड करता ताची लक्तुबाय दिसता. काम करपाचे हे इंगळे जण एकल्या तरनाट्या वावुरप्या मदीं अशेच पेटत उरचे. यु ट्युबाचेर आदल्या सर्तींतल्या कांय भुरग्यांचें सादरीकरण पळोवंक मेळटा. सुचोवणी इतलीच की दर वर्सा यु ट्युबाचेर त्या त्या वर्साच्यो आनीकूय बेस बऱ्यो काणयो अपलोड करच्यो. कोंकणीचे पेडणें, काणकोण, सत्तरी अशे बाज आसात. आयोजकांनी सगळ्यो शैली वापरूपाक मेकळीक दिल्या. ही विविधताय यु ट्युबा वेल्या काणयांनी पळोवंक मेळची. जग भरच्या लोकांक ताचो आनंद मेळटलो. डोक्युमेंटेशन जावंक पावतलें. जमता जाल्यार फायनल सर्तीची थेट दाखोवणी फेसबुकार करची. चड लोकांक ताचो लाव मेळटलो. काणयांचेर आदारीत पुस्तकां आनीकूय येवचीं. संगिताचो योग्य परिणाम मिक्स करून काणयांचीं ऑडियो बुक्स येवचीं. कोंकणी वाडत वतली! अंत आसा ताका?

संपर्क: 9423056755 

# म्हजें रायबन... तीं मनशां, तो काळ




प्रत्येक मनशाक आपल्या जल्मघराची, आपल्या गांवांची खूब ओड आसता. जितलो तो आपल्या घरा पासून पयस वता तश्यो ताच्यो आदल्यो यादी खर जातात. पिरायेच्या सरत्या वर्सांनी त्यो चडच खर जातात. थोड्यांच्यो त्यो यादी ल्हवू ल्हवू करून विसरायेर पड्यत आनी साप्प थोडे त्यो यादी बरोवन काड्यत.




अशेंच आपल्या गांवघराविशींचें, त्या तेंपा वेलीं मनशां, तो काळ हांचे यादींचें पुस्तक ''म्हजें रायबन... तीं मनशां, तो काळ'' हालींच म्हज्या वाचपांत आयलें. ह्या पुस्तकाची बरोवपी स्नेहलता अरविंद भाटीकार.

स्नेहलताबायन हें पुस्तक आपलो जल्मगांव रायबंदर हाचेर बरयलां. कांय वर्सा पयलीं हांवें 'सुंदर म्हजें रायबंदर' हो अ.ना. म्हांबरे हांचो लेख वाचिल्लो ताची याद जाली. हो लेख अ.ना.न आपलो जल्मगांव रायबंदर हाचेर १९५९ वर्सा बरयिल्लो आनी तो आंतर- म्हाविद्यालयीन वर्सुकी आंक 'विद्या' हांतूत उजवाडाक आयिल्लो आनी ताका बक्षिसय मेळिल्लें. ''म्हजें रायबन तीं मनशां, तो काळ'' हें पुस्तक वाचतना खूब कडेन अनाच्या त्या लेखाची याद जाली. चड करून रायबंदर गांवाचें स्नेहलता बायन केल्लें चित्रण वाचतना!

ह्या पुस्तकांत ल्हान-व्हड मेळून वट्ट ३४ लेख आसात. हांतूत रायबन (रायबंदर) ह्या गांवा विशीं म्हायती, स्नेहलताबायचें रासवळ घर ज्या वाड्यार आसलें तो खोर्नावाडो, त्या घरा विशींच्यो बारिकसाणी, तातूंत राबितो करून आशिल्लीं मनशां, घरांत नेमान येवपी सोयरे, खाणां-जेवणां, त्या वाड्या वेले लेखिकेच्या मनांत सदांकाळ सुवात आशिल्ले कांय लोक, लेखिका शिकताली ती शाळा, पावसाचे दीस, भुरगेपणांतले खेळ आनी झगडीं, गांवांत जावपी शिगमो, धालो, कालो, जागोर, तियात्रां/नाटकां, गांवांत मनयताले त्यो परबो हांच्यो खुबश्यो यादी ह्या पुस्तकांतल्या साबार लेखांनी आसपावल्यात.

ह्या पुस्तकांतलो एक एक लेख वाचतना रायबनचें, स्नेहलताबायच्या घराचें, घरांतल्या मनशांचें सगळें चित्र आपसूंक दोळ्यां मुखार येता आनी त्या यादींनी वाचपीय रमता. ताका आपूणय त्या वेळा वेलो एक घटक कसो दिसता.

ह्या पुस्तकांतलीं कांय व्यक्तीचित्रणां जशे परीं बाबा, दोतोर कुडचडकार, शेंवतू , रविंद्र बी खूब बरीं जाल्यांत. स्नेहलताबायची सोबीत, सुंदर, व्हांवती आनी सोपी भास हें पुस्तक वाचपाक मजा हाड्य. काळा प्रमाण भास कशी बदलत वता तें दाखोवपा खातीर लेखिकेन मुद्दाम त्या वेळार वापरांत आशिल्लीं कांय पुर्तुगेज भाशेंच्या प्रभावा खाला घडिल्लीं कोंकणी उतरां तशा तशीं वापरल्यांत हें ह्या पुस्तकाचें खाशेलेपण. शेकीं ह्या पुस्तका उदेशीं लेखिका त्या वेळा वेलो एक विशिश्ट काळ आनी मनशां आमचे मुखार हाडपाक येसस्वी थारल्या.

स्नेहलताबाय आपल्या लिखाणाची मर्यादा स्पश्ट करताना म्हजीं दोन उतरां ह्या आपल्या मनोगतांत म्हणटा हांवें जें कितें बरयलां तें कादंबरी , कविता न्हय हें हांव जाणां. हाका निबंद म्हणूं येता अशेंय म्हाका दिसना. कितें म्हणपाचें तें वाचप्यांनीच थारावचें. ह्यो त्या काळांतल्या म्हज्या जगाच्यो म्हज्यो यादी इतलेंच हांव जाणां.

आपल्या मनोगतांत त्यो फुडें म्हणटा, पयलींच्यो यादी सगळ्यांकच आसतात. पूण त्यो यादी काडून आयजूय बी जिणेक भुरगेपणाच्या रंगांनी रंगोवपाची संवय सामक्या थोड्या लोकांक आसता आनी तातूंतलेच हांव एक. म्हज्या भुरगेपणाच्यो यादी वाचप्यांक आवडटल्यो अशी आस्त बाळगितां.

संवसारांतलो एक फामाद लेखक आनी नोबेल बक्षिसाचो मानकरी गॅब्रियेल गार्सिया मार्खेझ 'Living to Tell the Tale' ह्या आपल्या आत्मचरित्रांत एके कडेन म्हणटा "The first thing a writer ought to write is his memoirs when he can still remember everything." लेखकान सगळ्यांत पयलें काम करपाक जाय तें हें की, आपल्यो सगळ्यो यादी शाबूत आसनात ताणें त्यो बरोवन काडूंक जाय. आनी हें काम स्नेहलताबायन बेस बरें केलां देखून तांकां परबीं फावतात. फुडले पिळगेक हें पुस्तक म्हळ्यार आदले तेंपा वेले गांव कशे आसताले ताचें वास्तव चित्रण.

आमचे कडेन अशे खूबशे लेखक आसात जांचे कडेन सांगपा सारकें खूब आसा पूण आतां तांची पिराय इतली जाल्या की तांकां तें कांयच याद ना वा कसलोच संदर्भ लागना. वेळारूच ताणीं ह्यो यादी बरोवन दवरिल्ल्यो जाल्यार?

ह्या पुस्तकाक दीपक च्यारी हांणी मुखपृष्ठार काडिल्लें स्नेहलताबाय हांच्या रासवळ घराचें आनी जे खातीर रायबंदर फामाद आसा तीं मिठागरां आनी नुस्तें पागप्यांचे पनेळ हांचें चित्र खूब सुंदर जालां.

ह्या पुस्तकाची अक्षर जुळोवणी आनी छापणावळ 'अभिनव क्रिएशन्स' हांची आसा ती खूब सोबीत जाल्या. हे पुस्तक 'युगवेद प्रकाशन', करंजाळे-गोंय हांणी छापलां.

**सखाराम शेणवी बोरकार**

संपर्क : 9923306751

**म्हजें रायबन... तीं मनशां, तो काळ**
**बरोवपीः** स्नेहलता अरविंद भाटीकार
**उजवाडावपीः** 'युगवेद प्रकाशन', करंजाळे-गोंय
**पानांः** २६६, **मोलः** २०० रुपया.

# भाशीक विचलन

**भौ. संपादपी**
**जाग म्हयनाळें**

कोंकणी भाशे वेल्या संशोधनाक हालीं सराक गती आयल्या. ती व्हड खोशयेची तशीच अभिमानाची गजाल. कारण हेर भासांच्या मानान आमचे भाशेक साबार दसकांचो उणाव भरून काडचो आसा. पूण खंयच्याय पदार्थाक जेन्ना मागणी खूब आसता, तेन्ना जे परीं उण्या दर्ज्याचो माल खपयतात, तशेंच हांगाय जाल्लें दिश्टी पडटा; कांय सोदवावर प्रकाशनांचे बाबतींत गंभीरताय आनी जापसालदारकी हांचो उणाव जाणवता. साबार उदाहरणां दिवं येतात, पूण हांगा एकाच लेखाचो उल्लेख करतां.

**जाग** म्हयनाळ्याच्या जुलय २०१९ अंकांत डॅनीस वाझ हाचो ''वेंचीक कोंकणी कवितेच्या संदर्भांत भाशीक विचलन'' हो लेख आयला. भासविज्ञान भाशीक विचलनांचे आठ प्रकार मानून घेता. तांतल्या सात प्रकारांचो लेखक उल्लेख करता आनी प्रत्येका खातीर कोंकणी कवितेंतल्यो देखी दिता. पूण हें करताना बरोवप्यान घवळेपणां केल्यांत म्हणचेंच पडटा. त्या लेखाची भासविज्ञानीक मोलावणी हांव करचो ना, कारण ती लायकी म्हज्यांत ना. पूण सर्व सादारण वाचप्याचे नदरेक जें पडटा ताचेंच विवरण करतां.

**उतरावळीचें विचलन** ह्या माथाळ्या खाला दिल्ले पयले देखी बाबतींत बरोवपी म्हणटा: ''कवीन [गान] हें उतर [गाणें] ह्या उतरा वयल्यान तयार केलां.'' पूण [गान] दाल्गाद (१८९३) आनी देसाय (१९९०) कोशांनी आसपाविल्लें आसा; जाल्यार कवीन केन्ना घडयलें? फुडें बरोवपी म्हणटा, ''कवीन [कस्तुरमृग] ह्या उतरा सारकेंच कोंकणी संस्कृतायेंत बसपी [कस्तुरमेरुं] हें सोबीत उतर घडयलां.'' हांगाचो व्याकरणी घोळ कुशीन दवरात; पूण [कस्तुरी मेरु] (पुल्लिंग, अनुस्वार ना), [कस्तुर मोगरें] असलीं उतरां देसाय कोशांत आसात, जाल्यार [कस्तुरमृग] मेळना. तें मराठी कोशांत मात मेळटा.

**इतिहासीक विचलन** ह्या माथाळ्या खाला जें विवरण आयलां ताणें तर कळसूच गांठला. बरोवपी म्हणटा: ''[मिनीन] (जेजुस) हें लॅटीन भाशेंतले उतर'', ताचो अर्थ ''ल्हान'' आनी ''लॅटीन भास आयज उरूंक ना.'' पयलें म्हळ्यार [मिनीन] हें लॅटीन भाशेंतलें न्हय तर पुर्तुगेजींतलें menino, आनी ताचो अर्थ 'बाळक'. लॅटीन भाशेंत 'बाळक' हाका puer (पूयर) म्हणटात आनी 'ल्हान' हाका parvus (पार्वुस्). आनी [मिनीन], तर कोंकणींत आजून चालंत आसा. प्रसिद्ध कोल्वेचें फाम म्हणल्यार ''मिनीन जेजूचें फाम.'' हें उतर आनिकय भक्तिगितांनी मेळटा. सांत आंतोनीक केल्ल्या गायनांतलें एक कडवें अशें आसा: मिनीन जेजू खेळटा म्हूणोनू। नॉसा सिञोरीन घातली दिंबी। ऑरॅसांव मॅंताल करी। भक्तु सांत आंतोनी॥ हातूंत एक न्हय तर पांच (मिनीन, नॉसा, सिञोरीन, ऑरॅसांव, मॅंताल) पुर्तुगेज उतरां येतात. पूण हें इतिहासीक विचलनाचें उदाहरण ठरना कारण पुर्तुगेज भाशेचो खूब प्रभाव कोंकणीचेर पडिल्लो आसा आनी, बरोवपी सांगता ते प्रमणें, असल्या भासांतली उतरावळ कोंकणी कवितेंत वापरप म्हळ्यार इतिहासीक विचलन जायना.

"Dead language" हाचो अर्थ बरोवप्याक आकलीत जावंक ना. जी भास **आवयभास म्हणून** उलयतलो (native speaker) एकूय मनीस संवसारांत नासता तिकाच dead language म्हणटात. लॅटीन भास आजुनूय कातॉल्क इगर्जेची अधिकृत भास आसा. पापसायबाचीं विश्वपत्रां (encyclical) मुळांत हेच भाशेंत आसतात आनी थंयच्यान तांचो अणकार जाता. म्हुणटोच ती ''आयज उरूंक ना'' म्हणप चुकता.

**लिपीविन्यास विचलन** हो माथाळो मात दिला. पूण एकूय देख जावं त्या प्रकाराचें वर्णन मेळना. तर कोंकणी कवितेंत हो प्रकार गावना अशें समजपाचें? काय, देखी सोदचे खातीर बरोवप्याक फुरसत मेळ्ळी ना? म्हज्या संग्रहांतले **जाग** म्हयनाळ्याचे कांय अंक हांवें वयले वयर चाळ्ळे तेन्ना कांय कविता झळकल्यो ज्यो ह्या प्रकारांत मोडूंये. त्यो अशो आसात: (१) आर रामनाथ : (अ) एका हुसक्यान, **जाग** मे २०११, (आ) तीन कविता, जाने.-मार्च २०१२, (इ) कीट, उमास, नो. २०१५, (ई) सवड, मे २०१८. (२) परेश कामत: (अ) निसण, ऑग.-सप्टें. २०११, (आ) सांवरीच्या कापसा वरी, ऑक्टो. २०१३. (३) रमेश वेळुस्कार : कविता १, जुलय २०१६.

**जाग** म्हयनाळें सोदवावराच्या प्रकाशनाक ओंपिल्लें माध्यम नाशिल्ल्यान ताचे कडेन प्रकाशन पूर्व तपासणी वा पियर रिव्यू करून घेवपाची वेवस्था नासत. पूण ताचेर तोलामोलाचें सोदसाहित्य उजवाडाक आयिल्लें आसूं, ताका प्रतिश्ठा लाभल्या. आतां उखलापें बरप उजवाडायल्यार ते प्रतिश्ठेक मार बसुंये. देखून सोद वावराड्यांची जापसालदारकी वाडटा. आपलो सोदनिबंद कोणूय जाणकारा कडल्यान तपासून घेतल्या उपरांतूच तो **जागाक** धाडचो, ही विनंती.

**से. मा. बॉर्जिस**
संपर्क : 9960816598



# कविता

## 'चंवरां' पावसांतलीं।

**सखाराम शेणवी बोरकार**

१.
पयलो पावस
घेवन येता
मातयेचो वास
आनी तुजी याद

२.
आतांच पावसाची एक
दडक झडून गेली
काळजांतली यादींची तार
अचकीत वाजोवन गेली

३.
आयज बाबडो पावस
थांबनासतना रकलो
ताचे यादींनी बरोच वेळ
म्हाकाय आयज भिजयलो

४.
आयज मळब
भल्लां कुपांनी
आनी म्हजें मन
तुज्या यादींनी

५.
जेन्ना पावस झडूंक लागता
तेन्ना मन उचांबळीत जाता
थेंब्या थेंब्या वांगडा गो तो
तुज्यो यादी घेवन येता

६.
भायर पावस शेनता
आनी हांव
तुज्या यादींनी
शेणटां

७.
मनांतल्या मळबांतुलें
सवण्यां भिरें
यादी फातरांन
उडून गेलें

८.
पावसाची आनी यादींची
सासणाची पडल्या गांठ
युगां-युगां सोडच नांत तीं
एकामेकांचो सांगात

१०.
म्हाका भिजपाक गो
पावसाची मातूय गरज ना
तुज्या यादींचो मोर नाचता
सदांच मना आंगणा!

संपर्क: 9923306751



## मातये कडले पांय सूटटा तेन्ना

**संजीव वेरेंकार**

मळबांतलीं नक्षत्रां
कोचून काडपाच्या किंवाट्यान
हांवें मळबांत उड्डान मारलें
आनी लागलो उडूंक
धर्तरी खुबूच ल्हान दिसूंक लागली
कानात वारें भरून
हवेंतच लागलो तरंगूंक
नक्षत्रांक हात पावतलेशे दिसतालें
इतल्यान आकाशवाणी जाली
"साधूर जा! साधू जा!
तुजे मातये कडल्यान पांय सुटल्यात" हांवें आयकलें
आनी गर्बगळीत जावन तसोच
सकयल आयलो
आनी मातयेंत पांय मुंगरून
घट्ट उबो रावलो
मळबांतल्या नक्षत्रांक हांत जोडून

संपर्क : 09422643629



## देशप्रेम एका दिसाचें

**उर्जिता भोबे**

परतून येतलो पंदरा आगश्ट
देशप्रेम चंवरतलें
एका दिसाक तिरंग्यांनी
मांड बाजारांतले भरतले

परतून वाजतलें राश्ट्रगान
देशप्रेम भरतलें काळजांत
तिरंगी बावटे घेवन हातांत
देसमोगी भोंवतले ऑर्रान

परतून भरतले मोबायल
देशभक्तीच्या संदेशांनी
परतून भोंवतले देशभक्त
धव्याफुल्ल वेशांनी

देशभक्तीचें नाटक हें
एका दिसाक नट्टलें
दुसरे दिसा मुखावटे
साप्प गळून पडटले

आज पावन भारत भूंयेचेर
तांड्व बलात्कार भ्रश्टाचाराचो
म्हारगाय, गरिबी, जातीयवाद
कहर चडला गुन्यांवकारांचो

कोयराच्यो राशी पडल्यात
शिक्षण वेवस्था इबाडल्यात
जागरूकतायेन फुडें सरूंया
काय उदरगतीक फाट करूया?

बावटे घेवन मिरोवचे परस
सान्न घेवन वावुरचें
धुळकटिल्लें देसा भाविश्य
मेळून आमी सावरचें

एका दिसाक सगळे लायतले
मुखवटो देश भक्ताचो
कोणाक आसा मान खरो
तांणी गळयल्ल्या रगताचो

पंदरा तारखेक चाटे पावला
भगत सिंग आनी गांधी दिसतले
दुसरे दिसा देशप्रेम
काळजांत ओग्गी न्हिदतलें

दुसरे दिसा देशप्रेम
काळजांत ओग्गी न्हिदतलें
कंवळ्यो, तिस्त्यो, वादन्यो जावन
खांची कोनशांनी पडटलें.



## हांव दर्येची खोलाय मेजता

**आर. एस. भास्कर**

हांव,
दर्येची खोलाय मेजतालो
तेन्ना,
ते म्हिजेर हांसताले–
दर्येत बुडून न्हांवपाक सोदता व्हय?
अशें विचारीत

हांवें पुण,
तांचेर लक्ष दिवकच ना
आनी,
मेजपांतच खोल उल्लो

म्हाका–
दर्येची रूंदाय हुंपपाक जाय आशिल्ली
रावणाक हारोवपाक जाय आशिल्ले
त्या अंजनेयाल्या भशेंनूच !

संपर्क: ८८९१३०६१२३

## मोरपांख

**मनोज नरेंद्र कामत**

तुजें सपन
म्हजें कवन
जीण रंगयाळी फुलतना

काळजांत उर्बा
मोगाची पर्वा
आंग खोशयेन शिरशिरतना

तुजो दोळो
हांव एकमुळो
रानांत गुडुप्प शेणटना

निरागस तूं
पिसों हांव
सपनांत मोर नाचतना

नाच पावशी
धडधड जोगुलपिशी
हुनसाण कवेंत पातळटना

आसमंती वादळ
काळीज नितळ
दूक दोळ्यांत व्हांवतना

पावस थारिल्लो
मोर शेणिल्लो
उगडास पुस्तकांत सोदतन

संपर्क: 9823336047



# The Stamp of Trust, Industry and Hope

वसंतराव श्रीनिवास सिनै डेम्पो

VASANTRAO SRINIVASSA SINAI DEMPO

The Dempo Group marches ahead with the lofty ideals that our founder Vasantrao Dempo bequeathed to us.
They buoy us up, as we straddle various business domains, and provide us the moral compass – to perform, grow and prosper.



**DEMPO GROUP OF COMPANIES**

Corporate Office: Dempo House, Campal, Panaji, Goa 403001
Tel.: 222 6281/86, 244 1300/457 • Fax: 222 5098 / 222 8588 • Email: mail@dempos.com
www.dempos.com

CALCINED PETROLEUM COKE | PIG IRON | REAL ESTATE | SHIPBUILDING | PUBLICATIONS & MEDIA | FOODS | AGRICULTURE | DAIRY FARMING | EDUCATION | TRAVEL | SPORTS | CHARITIES

SavoirFaire

